।। श्री ।।

वक्रतुंड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभः।
निर्विघ्नं कुरुमे देव सर्वकार्येषु सर्वदा।।

**।। श्री कुडण्येश्वर महालक्ष्मी चामुंडेश्वरी प्रसन्न ।।**

एक स्त्री पात्री दोन अंकी कोकणी फार्सिकल नाटक

# टोपयांच्यो गजाली



**बरोवपी : संजय नंदा फाळकर**

पत्तो : वरगांव - पिळगांव, दिवचल -गोंय ४०३ ५०४

फोन : ९८२२१२५५८८



**टोपयांच्यो गजाली**
(कोंकणी नाटक)

**संजय नंदा फाळकर**
वरगांव-पिळगांव
दिवचल, गोंय.
फोन : ९८२२१२५५८८

**पयली आवृत्ती :** फेब्रुवारी २०१३

**प्रकाशक**
सोहम प्रकाशन
सौ. संजीवनी सं. फाळकर
वरगांव - पिळगांव
दिवचल, गोंय.

**मुखचित्र आनी टाईप सेटिंग**
श्री. राजेश शिर्के

**छापणावळ**
ओमेगा प्रिंटर्स, बेळगाव

**मोल :** रु. ६०/-

**TOPAYANCHYO GAJALI**
(Konkani Drama)

**Sanjay Nanda Falkar**
Vargao - Plilgao
Bicholim - Goa.
Tel.: 9822125588

**First Edition :** Feb. 2013

**Publisher**
SOHAM PRAKASHAN
C/o Mrs. Sanjeevani S. Falkar
Vargao - Piligao
Bicholim - Goa

**Cover Page & Typesetting**
Mr. Rajesh Shirke

**Printers**
Omega Printers, Belgaum
Price : Rs. 60/-

---

◆हें नाटक 'झोपा आता गुपचुप' ह्या श्री. अशोक पाटोळे हांच्या मराठी नाटकाची मुळ संकल्पना घेवन त्याच आदाराचेर, पुण तातुंतलें सिन वा डायलॉग, घेनास्ताना ताची फुडलीं काणीं कशीं आसुं येत हाचेर बरयलां.

◆हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'कोंकणी नाटक मांड[illegible]' ह्या येवजणेखालां छापलां.

◆नाटकाच्या प्रयोगाखातीर लेखकाची मान्यताय घेवंची.

।। श्री ।।

# - मनोगत -

नमस्कार,

आयचे तरनाटे पिढयेची कोंकणी विनोदी नाटकां सादर करपाची आनी ती पळोवपाचीय आंस वाडल्या. अशें म्हणपाक कारण अशें की जायतें तरनाटे हाली म्हजेकडेंन नवी कोंकणी विनोदी स्क्रिप्ट आसा काय म्हण चौकशी करतात. आनी हिच गजाल लक्षान घेवन हावेंन हाचेपयली काय कोंकणी नाटकां बरयली. तातुतलें 'अॅक्च्युअल - फॅक्च्युअल' हे म्हजे पयलें नाटक. आनी कोंकणीतल्यान प्रकाशित जावपी 'टोपयांच्यो गजाली' हे म्हजे दुसरें नाटक. त्यानभायर मजगती मराठी नाटकां 'संगीत तुका झाला पांडुरंग' आनी 'नाही कुणी कुणाचे' हीय प्रकाशीत जावन प्रसिद्धीक आयली. ह्या तिनुय नाटकांचे प्रयोग गोंयात वेगवेगळ्या वाठारांनी जाल्यात आनी जातात.

म्हज्या ह्या नाटकाची मुळ संकल्पना आसा ती मराठी नाटक 'झोपा आता गुपचुप' ह्या श्री. अशोक पाटोळे हेंच्यानी बरयलेल्या विनोदी नाटकावेल्यान. ह्या नाटकाचो आदार घेवन, पुण त्या नाटकाचे सिन म्हणा वा डायलॉग घेनास्ताना, त्याच काणयेंचो फुडलो वाटो कसो आसु यता, हाचेर म्हजे कल्पनेप्रमाण हांवे हे नाटक बरयला, हे हांव हांगासर प्रामाणीकपणान स्पष्ट करूंक सोदता.

नाटकाचो पयलो प्रयोग करपी संस्था **'श्री ब्राह्मण हौशी नाट्य मंडळ– खोर्जुवे– हळदोणा, गोंय'** हांका, तांतुतल्या सगळ्यां कलाकारांक आनी खासां करून म्हजो मामेभांव श्री. नितीन आपा शिरोडकार, जाणे ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग करपाखातीर फुडाकार घेतलो ताकाय हांव साबार धन्यवाद दितां.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'कोंकणी नाटक–मांड–तियात्र' येवजणेखालां हे नाटक पुस्तक रुपान येवच्याखातीर हातभार लायला देखून तांच्या अध्यक्षांक, उपाध्यक्षांक तशेंच सगळ्या कर्मचारी वर्गाक साबार धन्यवाद.

त्याचप्रमाण ह्या नाटकाचे बेगीनात बेगीन टाईपसेटींग करून दिवपी म्हजे इश्ट श्री. राजेश शिर्के, पुस्तक छापुन दिवपी 'ओमेगा प्रिंटर्स–बेळगांव' आनी पुस्तक प्रकाशीत करपी 'सोहम प्रकाशन' हांच्यानी सामक्या कमी वेळान पुस्तक छापून हाडल्याबद्दलचे श्रेय तांका दितां.

नाटकां बरोवच्या खातीर म्हाका वेळ आनी मेकळीक दिवपी म्हजी घरकान्न संजीवनी (सरिता), म्हजी भूरगीं दिव्या आनी सोहम हांचोय उल्लेख करप हांव रास्त समजतां. तशेंच म्हाका नाटकां बरोवपाक, ती सादर करपाक सदाच तेको दिवपी म्हजे भांव सच्चित फाळकार, अमर फाळकार, जयेश वालावलकार, इश्ट नितीन नाईक, अश्वेश गिमोणकार, निखिल वालावलकार हांकाय हांव ह्या खौशेच्या खिणांक याद दवरतां.

म्हज्या पयलीच्या कोंकणी 'ॲक्च्युअल-फॅक्च्युअल' ह्या नाटकाभषेन ह्याय नाटकाक नाट्य-प्रेक्षक व्हडा उमेदीन आपणायतले अशीच आंस धरता आनी हे नाटक तुमकां भेटयतां.

**संजय नंदा फाळकर**

वरगांव.

# अर्पण...



वाड्यार वा गावांन जी नाटकां जाताली, तांतून सदाच घरगड्याची वा हेर विनोदी भूमीका जाणी रंगयली, तो म्हजो धाकटो मामा कै. "दायलो" उर्फ पुंडलीक विठू शिरोडकार हांका अर्पण!

॥ श्री ॥

श्री गणेशाय नम:

दोन अंकी कोंकणी फार्सिकल नाटक

# “टोपयांच्यो गजाली”

## –प्रयोग पयलो–

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग **‘श्री ब्राह्मण हौशी नाट्य मंडळ खोर्जुवे’** हे संस्थेन श्री सातेरी मंदिर, पोडवाळ, खोर्जुवे, गोंय हांगासर ता. १३ मे २०१२ ह्या दिसा रातच्या ९ वरांचेर व्हडा उमेदीन सादर केलो.

| | | |
|---|---|---|
| **निर्मिती** | – | नितीन शिरोडकर |
| **बरोवपी / बसोवपी** | – | संजय फाळकर |
| **पार्श्वसंगीत** | – | अश्वेश गिमोणकर |
| **उडवाडा येवजण** | – | सच्चित फाळकर |
| **रंगवण** | – | राजा हरमलकर |
| **न्हेसवण** | – | सुंदर कारबोटकर |
| **नेपथ्य** | – | श्री तळेश्वर नाट्यलंकार, भटवाडी, मयें–दिवचल, गोंय. |

## – माचयेवयले कलाकार –

◆**परेश** – राजेश शिरोडकर

◆**गुप्ता** – विशांत च्यारी

◆**इन्स्पेक्टर येंडे** – नरहरी पोळे

◆**पी. ए. प्रकाश** – दिलेश गडेकर

◆**कविता/कात्रीना** – कु. प्रितम गवंडी

◆**दिलीप** – अजित पोळे

◆**रावण/मंत्री पटेकार** – नितीन शिरोडकर

◆**मॅनेजर बुडकुले** – अविनाश पाळणी

◆**पेद्रू फल्कांव** – अनंत पणजीकर

◆**शेगी गुंडा** – दत्ता पणजीकर

◆**हवालदार** – दीपक फाळकर आनी प्रशांत हळदणकर

◆**शेगीचे वांगडी** – योगेश मांद्रेकर आनी अमीर पणजीकर

।। श्री गणेश सरस्वती प्रसन्न ।।

# अंक पयलो

## प्रवेश पयलो

(**स्थळ :** परेशागेलो फ्लॅट, सोफा, टिपॉय, खुर्च्यो आनी हेर सजावट. पडदो उगाडता तेन्ना रंगमाचयेर कोणूच ना. काय वेळान बेलीचो आवाज. भायर कोणतरी आयला.)

**कविता** : (परेशाची बायल. भितुरल्यानच) आयलो दिस्ता परेश (भायर यता. बेल परत वाजता) राव मात्सो थार धर. मात म्हणून पाशेंस ना ह्या दादल्याक. फुकटचो मेळटां म्हणून दामीत रावता बटन. (दार उगडता. दिलीप – परेशाचो आमीक यता) कोण दिलीप तू रे? हांव समाजलें परेशूच आयलो म्हण.

**दिलीप** : वयनी, कितलो वेळ लायता तू दार काडपाक?

**कविता** : आरे पापया, हांव भितर नुस्ते उजरायतालें. आयज परेशान इसवण हाडलेलो सक्काळीफुडे मडगावां वचून.

**दिलीप** : आवयस... नुस्त्याक लागोन सक्काळीफुडे मडगावां गेलों परेश, आनी तोवुय असलें कडाक्याचे थंडेचो?

**कविता** : थंडेचो कसो? हावूय बिन गेल्ले तेच्यावांगडा आनी जाणा दिलीप भावोजी, थंय खंय इसवण, बांगडे सव्वाय मेळटात.

**दिलीप** : तशें जाल्यार म्हाकाय एक दिस वैची पडलो थंय नुस्त्याक.

**कविता** : हांगासरलें कोणायचे पाचां दिस जांव, लोक थंयच वैता नुस्तें हाडपाक. म्हणून आमीय गेली आयज.

**दिलीप** : म्हणजे तुमगेरुय आयज पाचां दिस आसा किदें?

**कविता** : ए तशें नु रे – आमगेर कोणाचें पाचां दिस आसतलें? हाडया

म्हटलें बरो ताज्जोसो इसवण वचून. चार - पाच दिस खांवपाक मेळटलो- फ्रिजान दवरुन. आमचे किदें आम्ही दोगांच.

दिलीप : मांगीर तिसरे केन्ना हाडता वैनी? किदें आसा गुड निवज बिवजऽऽ

कविता : दिलीप भावोजी, फकाणां करु नाका हां. परेशाक कितलें सांगले हांवे, तो आयकपाकूच तयार ना.

दिलीप : तो तयार ना? म्हणजे? ही आनी किदें भानगड?

कविता : भानगड बिनगड काय ना. तो म्हंटा तेका बँकेन प्रमोशन मेळटकीच पळोवयां.

दिलीप : हां. कळ्ळें कळ्ळें वयनी. म्हणजे बँकेन प्रमोशन मेळल्याबगर घरात बापुय जावपाचें प्रमोशन नाका. अशेंच नु?

कविता : सामकें बरोबर.

दिलीप : पुण म्हाका पळय वयनी, हावुय सादो क्लार्क. पूण म्हाका ना भुरगीं? हांव पोसीना दोन भुरग्यांक? इसवण नासल्यार नासो. पुण निदान तारलें-पेडीं तरी खांवन दिस काडतां.

कविता : हां दिलीप भावोजी, कळटां म्हाका तुजे हे टोमणें हां. सदाच तारलें-पेडयें खातां मरे तू, आयज रांव आमगेर जेवणांक. इसवणाची पोस्तां खावयतां तुका.

दिलीप : म्हाका बरें दिसाना जेवणाक रावपाक. पुण तू रावूच मंटा जाल्यार रावता (स्वगत) आजय बरें एटीस उडोवपाचे- इसवणाच्या पोस्तांवांगडा. (उगड) बरे वैनी, परेश केन्ना यतलो?

कविता : जालो येवपाचो. कित्याक किदें काम आसलें तेचेकडेन? ना म्हटल्यार तू खूप दिसांनी येयला न्हु म्हणून विचारलें...

दिलीप : तशें खास काम काय नाशिल्ले. पूण खबर घेवपाक. तेची ती सपनां पडपाची बंद जाली?

कविता : खंय बंद जाल्या? चालूच आसात. काल आनी तेणी केलां पय, ते सोसपाचे न्हू. वाज आयलो म्हाका.

दिलीप : म्हणजे, इतले किदें केलें तर तेणी तुका?

कविता : काल आयतार न्हू. म्हण दनपारां मात्शें आड पडलेलें हांव, होय आड पडलो आनी आपलेच सपन पळयलें. मागीर किदें हांगा दोन दोन परेश. हेवटेन एक तेवटेन एक, कोण किदें करता कायच कळांना. आनी खयचो खरो परेश तेय बिन कळानां.

दिलीप : पुण खरो परेश उठ्ठतकीच खोटो ना जालो ना?

कविता : हय जालो रे, पुण तेन्ना खूप उशीर जालो नू, जे किदें जावपाचे ते जालेंच न्हू?

दिलीप : म्हणजे, अशें किदें जाले तर?

कविता : जातलें किदें आनी? म्हाजी झोपमोड जाली.

दिलीप : आं....झोपमोड? हांव समाजलो आनी किदें...

कविता : तू बरो समजात पूण हांव सामकें शादूर रावतां अशा वेळार. परेशाच्या सपनानसून केन्ना किदें प्रकट जायत सांगू नजो म्हणून.

दिलीप : हे मात सामकें खरे हां वैनी.

कविता : तर, तुका सांगता दिलीप भावोजी, कालच्या ह्या प्रसंगाक लागून हावे घरानचें परेशाचे सगळे फोटो काडून आलमारीन लिपोन दवरल्यांत.

दिलीप : बरे केलें तुवेंऩ वैनी. नाजाल्यार हांगा चार पाच परेश प्रकट जावन तुजी वाट लावंक आसा.

कविता : हेचेर किदेंतरी उपाय काडपाक जाय भावोजी. खंचोतरी बरोसो दोतोर.... (याद जांवन) आनी भावोजी तो दोतोर रे? तो आसा न्हू तुमगेर? फाटलें फावटी तुमी तेका हिप्नोटाईज करून कुत्रो करून व्हेल्लो तो-दोतोर जल्मी.

दिलीप : पाड पडू त्या दोतोराचे वैनी. याद काडू नाका तेची.

कविता : किद्याक, किदें जालें? तुमचीय वाट लायली तेणीं किदें?

दिलीप : तर किदें? हांवे तेका हांगासून व्हेलो आनी घरान बानून दवरलो. दुसरे दिस मुन्सीपालटीचे मनीस येवपाचे आसलें तेका व्हरपाक म्हण. पुण तुका किदें सांगू वैनी, तेणीं रातभर हे (मुतपाकी करुं) आनी हे (हागपाची कुरुं) थंयच घरान करून जी हळशीक केली.... शी... शी.... शी... ती सगळी सकाळीफुडे उठोन म्हाका काडची पडली.

कविता : आनी दिपावैनी नाशिल्ली तर घरां?

दिलीप : तू आनी सामकीच मगे वैनी. म्हाका सांग, तेच्या त्या तशा अवस्थेन तिका आनी तेजेकडेन साफ करपाक लायलेली आनी तेनी आनी किदें केल्ले जाल्यार (सविता हासता) वैनी हासता किदें? तो किदें सामकों जनावर कुत्रो जाल्लो? तो हिप्नोटाईज जाल्लो. मनशाचे कुडीनचो कुत्रो मगे.

कविता : हय रे बाबा, सामको डेंजर मरे तर तो. मागीर किदें केलें तुवें तेचे?

दिलीप : आनीक फाट फुडो पळयलां? ताबडतोब त्या जयेशाची रिक्शा हाडली, भरलो तितून आनि भांबोळे मेन्टलान व्हरून सोडलों.

कविता : बरें केलें– कटकट गेली एकदाची.

दिलीप : तेची कटकट गेली, पुण बायलेची सुरु जाली. नाकाजाल्यो ख्यास्तीक जाय तुका – हे आनी ते. चार दिस त्या दोतोरान केल्लें हळशीकेचो वास वचासर तिची एके - 47 रायफल चालूच आशिल्ली तोणान. आयज पाचवो दिस. म्हणून आयज कामारसून डायरेक्ट हेवटेन सरलों परेशाक मेळपाक म्हण. (बेल वाजता) येयलो दिसता परेश. (कविता वचून दार

काडता. परेश वोग्गी काळ्या तोणान येवन खुर्चेर –सोफार बसता)

**कविता** : परेश, आयज उशीर सो? दिलीप भावोजी कॅन्नांसांवन तुजी वाट पळयत रावला हांगा – (तो कायच उलैयना) परेश, तू आयज असो किदें जाम पडल्याभाशेन? आयज ऑफिसान चड काम पडलें काय किदें? रांव हांव तुका बरी तरतरीं येवपाक कडक फुटी चांव करून हाडतां.

**दिलीप** : हं, वैनी हे मात बरे हा तुजें– घोव घरा येतकीच सोमतीच तेका चा– आनी हांव येवन इतको वेळ जालो जाल्यार म्हाका उदकाचो लेगीत थेंमो ना– अं– चल चल हाड तू चा हाड.

**कविता** : बरे तुकाय बिन हाडतां (वचपाक)

**दिलीप** : अॅ– म्हाका नाका ती फुटी चां. हांव फुटी चा पिना–

**कविता** : बरें बरें, दुधाची हाडतां तुका. (कविता किचनान वैता)

**दिलीप** : (स्वगत) जांव– हरशी घराकडे फुटीय चांव ताळ्यार पडाना म्हाज्या कामारसून घरा येतकीच. (उगड) हां तर परेश, कसो आसा तू बाबा? हाली सपनां बिपना पडता काय ना रे? (तो काळे तोंण करून वोग्गी आसा) अं.... वोगी सो? टेन्शनान बिन्शनान आसा काय किदें कालच्च्या भानगडीच्या? (तो तेका रागान पळयता) ना ना म्हणजे वयनीच म्हाका म्हंटाली... (कायवेळ तोय वोगीच) आरे पापया, तुजें जाला तरी किदें? कायच उलयनासो? म्हजेर रागार बिन काय किदें? (तरी तो वोगीच) आरे परेश, परेश किदें तरी उलय मरे? तुजें जालां तरी किदें अशें काळें–काळें तोण करून बसपाक? (बरे भाशेन) हे पळय परेश, म्हाका सांग ऑफिसान बिन किदें भानगड जाल्या? बॉसान फायरींग बिन दिल्या तुका? ना मटल्यार तशें जाता केन्नां केन्नां.

बॉसाचे घराकडेन किदेंय जाल्लें आसात जाल्यार घराकडलों बायलेवैलो राग बॉस ऑफिसान येवन आमचेर काडतां – म्हाका अनभव आसा तो– (तरी तो वोगीच) बरें आसुंव. तू जर म्हज्यावांगडा कायच उलोवपाचो ना जाल्यार हांव चल्लों – तू बस हांगा मोन्याची सोंगा घेवन (वचपाक) बरें तर....
(इतक्यात कविता चा घेवन यता.)

**कविता** : आं, दिलीप भावोजी वता सो? घेया चा घेयात (तेंका चा दिता. दिलीप चा घेता. परेश घेयना. तो वोग्गी आसा.)

**दिलीप** : (चा घेताना) आरे बाबा, बायलेन इतल्या मोगान चा करून हाडल्या ती तरी घे. (परेश तेका रागान पळयता)

**कविता** : अं– म्हणजे दिलीप भावोजी, अशें किदें जालें? तुमी दोगुय झगाडले बिगाडले काय किदें? परेश किदें जालें? (तो वोगीच)

**दिलीप** : कायच जांवक ना वैनी. आमी झगाडपाक तेणी तोण तरी उगडपाक जाय न्हू? तो येयलाच मौनव्रत घेवन.

**कविता** : म्हणजें अशें तोण उगडपाक जाला तरी किदें? परेश, तुजी किदें दाड बिन दुखता काय किदें? (तो वोगीच) परेश, किदें जाला ते तरी सांग न्हूं? (रागान) सांगपाकूय तोण धरला काय किदें तुजें?

**दिलीप** : परेश सांग, बेगीन सांग. वयनी पेटपाक लागल्या– तिचो उजो जावच्या पयली उलय किदें तरी. नाजाल्यार तिका मागीर थंड करपाक म्हाका तरी जावपाचें ना. (तो तरी वोगीच. कविता काळजीन पडला. दिलीप तेच्या तोणामुखार वचून बारीक पळयत) वैनी, परेश, मोनो बिनो जांवक ना मगे...?

**कविता** : (काळजेन रडून पावोन) किदें? मोनो? परेश मोनो जालों? (रडता) मागीर आता आमचें कशें जातले?

दिलीप : काय भियो नाका वैनी. मोनो जालो म्हणून किदें जालें–सगळें सारके जातलें. खंय काय अडचेना – तो धृतराष्ट्र मोनो नाशिल्लो, तेका जालें ना शंभर कौरव ?

कविता : (रडूनच) तो मोनो नू कुड्डो आसलो भावोजी –

दिलीप : कुड्डो जांव मोनो – एकूच ते. म्हाका किदें म्हणपाक जाय ते कळ्ळें नु तुका. (तिका समजयता) आसूंव आसूंव वैनी. रडू नाका आता. जालें ते जालें. (तिका समजयतां समजयता तिच्या खांदार हात दवरून समजयतां) आता रडून किदें फायदो ? आमी परेशाक बऱ्याशा दोतोराक दाखोवया. (परेश ते पळयांत–रागान हे ऽऽ म्हण तेचेर आड्डता, तो हात फाटी घेता.) वैनी आड्डलो ऽऽ परेश आड्डलों....

कविता : (उमेदीन) म्हणजे तो मोनो जांवक ना. (रागान) दिलीप भावोजी वोगीत तुवेंन म्हज्या काळजान धस्स केले. हांव कसलें सॉलिड भियाल्लें. (परेशाक मोगान) परेश म्हाज्या मोगा सांग पळवया तुजे किदें जाला ? बठोच म्हजो जीव खासाविस करूं नाका. (तरी तो वोगीच)

दिलीप : वैयनी, एक आयडीया....

कविता : कसलीं....?

दिलीप : एक आयडीया जी तुमचं जीवनच बदलून टाकीन....

कविता : ते जाणा हांव– ॲन आयडिया कॅन चेंज युवर लाईफ आणि केन्ना केन्ना वाईफ सुद्धा, क्रोस कनेक्शन लागून....

दिलीप : आगे ती आयडीया न्हू गे – आता ह्या तुज्या मोनो जाल्या घोवाक उलोवपाची आयडिया....

कविता : तशें जाल्यार सांग तर बेगीन.

दिलीप : तू रागार जाल्यार परेश तुका कसो मनयता...? भुरगीं रागार जाल्यार तेंका कशीं मनयतां....?

कविता : कशीं रे दिलीप भावोजी ?

दिलीप : हांवूच पिसो- तुमकां इचारता, तुमका ना भुरगीं... हांगा यो सांगता (कविता येता- तेच्या कानांत सांगता. कानात सांगता आसताना कविता तोण फुडें करता तेन्ना परेश रागान पळयता. हँऽऽ करून आड्डता. ती दोगाय कुशीक सरता)

कविता : चल तर दिलीप भावोजी तशेंच करुया (इतक्यान बॅकग्रांवड मुजीकात "ए मना... ए मना... सांग किद्याक उदास रे".... हे गाणे वाजता. कविता - दिलीप त्या तालार नाचून परेशाक मनोवपाचो यत्न करतात. काय वेळान परेश अचानक आड्डता-)

परेश : बंद करा तुमचो हो नाच रंग... (ती बंद करता. गाणे बंद) हांव हांगा एद्याव्हडल्या प्रोब्लेमान पडलां आनी तुमकां नाच सुचता.

दिलीप : हय. पुण तुवें तोण फोडून सांगपाक जाय न्हू रे.... आमका कशें कळटलें? आमी किदें अंतर्यामी रे.....!

कविता : व्हदळच्यान आमी धरयता तुका. तू दातखिळी धरून वोग्गीच बसला. कितलें म्हणून खडपाक दोंर काडपाचें आमी?

परेश : तुये खडपाक दोंर काडल्या पळय ते माज्या गळ्यान बानून जीव दिवपाची पाळी आयल्या म्हाजेर. आनी तुमी नाचता...?

दिलीप : आरे, आमी नाचली म्हणून तरी तू उलयलो हे नशिब .... बरें... सांग आता जीव दिवपासारके किदें जालां आनी घडलां तें....

परेश : दिलीप कशें सांगू आनी खंयच्या तोणान सांगू तेंच कळना म्हाका.

दिलीप : आरे बाबा, तुज्याच तोणान सांग-आनी कोकणीतल्यान सांग.

कविता : हय, कशेंय सांग पुण एकदाचें फोडून सांग.

परेश : कविता, दिलीप बँकेत लोकांच्या डिपॉजिटाचे पैशें चोरल्याच्यो आळ घालून माका कामावैल्यान टरमिनेट केला.

कविता–दिलीप : किदें ?

परेश : हंय. आमच्या बँकेच्या रिकवरी ऑफिसराच्या म्हणण्याप्रमाण तेणी म्हजेकडेन जवळ जवळ आठ लाख रिकवर करून हाडून भरल्यात. पूण ते पयशें त्या कस्टमरांच्या खात्यान जमा जांवक नात.

दिलीप : खंय गेले तर इतलें पयशें ?

परेश : तेचे म्हणणे आसा की ते हांवे परस्पर उडयलें म्हण...

कविता : आठ लाख तुयेंन परस्पर उडयलें ? आनी खंय गेले तर ते इतले पयशें ?

दिलीप : काय भायल्याभायर सपनां फुलयली रे ?

परेश : फकाणां करू नाका रे दिलीप. तेणीं म्हजेकडेन इतले पयशें हाडूनुच दिवंक ना जाल्यार –

कविता : मागीर तशें जाल्यार तेणी पयशें दिल्ली पोचपावती बिन काय मेन्टेन करिना तर बँक ?

परेश : करता. पूण त्या सगळ्या पावत्यांचेर, बुकांचेर म्हजी सायन आसा न्हू गो.

दिलीप : म्हणजे तू किदें दोळें धापून सायनी मारतालो किदें रे ?

परेश : आरे बाबा, त्यो सगळ्यो सायनी हांवे मारुंक ना.

दिलीप : आत्ता सांगता आपल्यो सायनी म्हण, रोकडोच सांगता त्यो सायनी आपणीन मारुंक ना म्हण–म्हाका दुबांव लागता

कविता : दुबांव बिबांव कायच ना. सगळे पयशें व्हरुन कोणाच्या नावार घातले तुवें ? कोण मेळ्ळा काय किदें तुका भायल्याभायर फटाकडी.... ?

परेश : तुका मुगो फक्त दुबांव चड. हांवे ते खरें आसा म्हणू नाशिल्लें.

हांव सायनीबद्दल मंटालो. त्यो सगळ्यो सायनी तेणीच मारल्या म्हजो. सामक्यो तश्श्याक तश्श्यो डुप्लिकेट.

कविता : चोर, नागावणो, फटींग, मागीर तुवें मॅनेजराक तशें सांगून पळयलें ना?

परेश : तो म्हजें आयकोन घेवपाकूच तयार ना.

दिलीप : तो मॅनेजरुय बिन सामील ना मरे त्या वाट्याक?

परेश : म्हाकाय तशेंच दिसता. त्या दोगांयनी मेळोन हो कट रचला.

कविता : मागीर आता किदें?

परेश : आता पडली आमी फोंणान. दोन दिसांभितर हे सगळें पयशें भरीना जाल्यार पुलीस कंप्लेन करून भितर उडोवपाची धमकीय दिल्या म्हाका तेंच्यानी.

कविता : किदें दोन दिसांभितर? त्यापरस आमीच तेंची पुलिस कंप्लेन केली जाल्यार....?

परेश : काय फायदो जावचो ना. तेंच्यानी सगळे बोगस प्रुफ तयार केल्यात. शिवाय पुलिसांच्या हातीर कितेय चिरीमिरी सोडतलें आणि आमकाच त्रासांन घालतलें तें.

दिलीप : तशें जाल्यार हेचेर किदेंतरी सोडतोड उपाय काडचोच पडतलो. वैनी चित किदेंतरी उपाय सोदून काड.... (दोगाय चित्तात)

कविता : म्हाका जाल्या कायच सुचाना. दोन दिसाभितर इतलो पयसो खंयसून उभो करतलों? म्हजी तकलीच इरार जाल्या...

दिलीप : (एकदम सुचून) वैनी आयडीया... वैनी तें - तें तुवें सपनातल्यान प्रकट जाल्लें पयशें दिवन दिवन भांगरा-वस्ती-दागिने घेतलेलें पळय, ते सगळें विकून सात आठ लाख येतले न्हू?

कविता : म्हज्यो वस्ती? दिलीप भावोजी सुटलां तू? आयुष्यान केन्नां

एक भांगराची वस्त केली ना म्हाका परेशान – मणी सोडून. त्यो सगळ्यो वस्ती म्हजी तकली लडोवन हाडल्यात हांवेन. त्यो हेज्याखातीर विकू? हांव ना.

दिलीप : पुण वैनी, त्या वस्ती दागिन्यापरस होच दागिनो व्हडलो नु तुका? घोंव म्हणजे बायलेचो व्हडलो दागिनो आसता. शिवाय हेच्याच सपनातल्यांन प्रकट जाता ते पयशें दिवन तुयेन ह्यो सगळ्यो वस्ती घेतल्यात.

कविता : सपनातले पयशें जांव नाजाल्यार आनी कसलेंय जांव, पुण हांव म्हज्यो वस्ती विकपाचे ना.

दिलीप : (अचानक) सपनातले पयशें ऽऽ... वैनी आनी एक आयडीया. परेश ही मात बेस्ट आयडीया आसा हां...

परेश : सांग बाबा, कसलीय सांग. अडला हरी, गाढवाचे पाय धरी–

दिलीप : परेश, तुजो तो चित्र पळोवन प्रकट जाता तो सपनरोग आजुनुय चालू आसा न्हू?

परेश : म्हाका काय खबर ना. हाली हावेन चित्राच पळोवपाची सोडल्या.

कविता : सोडल्या खंय– कॅलेंडरावैल्या हिरोयणींक बरो बारीक दोळें करून ते फुटासर पळयतालो? दिलीप भावोजी, तुका सांगता तेंका पळोवन पळोवन ती सपनान येवन प्रकट जांवन फुकट नाकाजाल्लीं धुमशाणां काणीत म्हण हावेंच सगळी चित्रां–पोस्टर काडून उडयल्यात–

दिलीप : मागीर आता हेची टेस्ट कशी घेतलो... कसलें चित्र दाखोवन..

कविता : टेस्ट किद्याक घेंवक जाय? तुका सांगले न्हु, काल तेणी सपनान आपणाकूच पळोवन दोन परेश प्रकट जालें म्हण.

दिलीप : तशें न्हय गे– पुण आपुण सोडून दुसऱ्यां चित्राप्रमाण प्रकट जातां

काय ना ते पळोव नाका? (हेवटेन तेवटेन पळोवन) आं- पेपर (निवजपेपर दिस्ता टेबलार तो घेता) ॲ-केन्नाचो गे हो- दसऱ्यादिसाचो मुगे...

**कविता** : पेपर केन्नाचोय आसूंव. तुका चित्र जाय मरे तेंच सोद तू-

**दिलीप** : हां- मेळ्ळें- हे बरें आसा. रावणाचे... किदें मात हें पेपरवाले, दसऱ्यादिसाच्या पेपरार रामाचे सोडून रावणाचें चित्र छापलां.

**कविता** : दिलीप भावोजी, रावण? म्हाका भंय सो दिसता...

**दिलीप** : तू कायच भियो नाका वैनी. हांव आसा न्हूं. हां... तर परेश, यो टेस्ट करुयां (तेका खाटीर बसयता) घें- हें रावणाचे चित्र पळय आनी न्हिद आणि तेचेच सपन पळय (तो तशें करता. न्हिदून पडता. इतल्यान भीषण मुजीक वाजता आणि व्हडल्या व्हडल्यान भयानक हास्य करीत रावण प्रकट जाता.)

**रावण** : (हासता) हाऽऽ हाऽऽऽ हाऽऽऽ हे रामा, माझ्या अपमानाचा सूड घेतल्याशिवाय मी आता राहणार नाही. आज मी केल्याशिवाय राहणार नाही सीतेचं हरण.

**कविता** : दिलीप भावोजी पुरो- तो हरण करच्या पयली वच तू तेका शरण.

**दिलीप** : राव गे वैनी. तो रावण सीताहरण करपाक ऋषीमुनी जांवन येयल्लो. रावण महाराज-आपण वेश बदलायला विसरलात काय? की तो मंडोडरी भाभीने उमळून सुकत घातला आहे?

**रावण** : लक्ष्मणाऽऽ, आजकाल वेश बदलण्याची गरजच नाही. कारणऽऽ आजकाल रामासारख्या पेक्षा माझ्यासारख्या रावणालाच मुली, बायका लवकर पटतात या भूतलावर... हाँ हाँ हाँ... (हसतो) लक्ष्मणाऽऽ तू चल तुझं काम कर मुली पटवायचं.... अं... ते... हे कांचनमृग पकडायचं. (हसतो)

चल बाजूला हो. (त्याला ढकलतो व कविताकडे सरकतो) सीतेऽऽ ये सीतेऽऽ चल आपण पळून जावू (ते भियालां) बाहेर मी तुझ्यासाठी माझं किंगफिशर विमान नो पार्कींगमध्ये पार्क करून ठेवलंय. चल लवकर चल. नाहीतर तिथे आरटीओ येऊन तालांव देईल. चल लवकर... (हासतां आनी तिका उबारुन खांदार घेतां. ते भियालां आड्डाता- सुटपाक धडपडता.)

**सविता** : दिलीप भावोजी ऽऽ परेशाक उठय. नाजाल्यार हो रावण करतलों म्हजे वरण. (रावण तेका घेवन हासत आसा. दिलीप भयान परेशाक उठयता. रावण सवितासकट नाच जाता. ते दोगुय उठोन सविताक सोदतात.)

**दिलीप** : (भियला) हे.. वैनी खंय? आवय घो व्हरुन- त्या रावणान वैनीक खरेंच व्हेली की किदें सीता समजून?

**परेश** : किदें, कविताक रावणान व्हेलें? आता तो रावण कविताक किदें करित सांगू नजू- जालें मरें. आता आणि एक संकट....

**दिलीप** : परेश, म्हाका दिसता तुजो हो सपनरोग वाडात चलला. आयज तो रावण गडप जालो वयनीसकट...

**परेश** : तू बरो जांवक ना मरे गडप त्या रावणावांगडा? फकत कविताच गडप जालें. म्हाका तुजो किदेतरी दुबांव लागता...

**दिलीप** : दुबांव बिबांव काय ना- आरे तो रावण गडप जाताना तेणी वैनीक खानार घेतलेली सीता समजून-(तो चित्ता) हां पुण तू काय भियो नाका. म्हजेकडेन आनी एक आयडीया आसा-

**परेश** : पुरो-पुरो तुज्यो आयडीया. म्हारग पडता त्यो म्हाका. म्हजी नोकरी गेली ती गेलीच, वैल्यान आता छोकरीय गेली म्हजी

– (रडपाक)

**दिलीप** : पळय परेश, हितून तुका नोकरीय मेळटली आनी छोकरीय बीन.

**परेश** : पुण म्हाका भय दिसतां तुज्या आयडीयांचो...

**दिलीप** : तुका कविता वैनी परत जाय काय नाका? (परेश – जाय) मागीर आयक तर... (तेच्या कानात सांगता) आसा काय ना ही जबरदस्त आयडीया...? (दोगुय हातार हात दितात. स्थिर काळोख जाता)

**–प्रवेश १ लो सोंपता–**

# प्रवेश दुसरो

(स्थळ : तेच. परेश चिंतेन, दिलीपाची वाट पळयत बसलां)

**परेश** : चॅ... खंय पावलो काय हो दिलीप, सदाच लेट- केन्ना म्हण जाय तेन्ना टायमार पावपाचो ना. तो रिकवरी ऑफिसर इतल्यान येवपाची वेळ जाली. आनी म्हाका दिसता म्हजी भितर बसपाची वेळ येयली. (बेल वाजता) बेल वाजली. (बेगी बेगीन वचून दार काडता. पळय जाल्या कोणूच ना) आरे, कोणूच ना? मागीर बेल कोणी मारली तर? काय मोबायलाभासीन बेलुय मिसकॉल मारपाक लागली? अँ.... म्हाका भास बिन जालो दिसता... (परत बेल वाजता) अॅ... परत भास जालो. (चिमटो काडता. परत बेल) अँ... आता मात खऱ्यांनीच वाजली... (दार उगडता - दिलीप यता)

**दिलीप** : आरे कितलो वेळ दार काडपाक?

**परेश** : तू बेलीची मिसकॉला दितालों न्हु रे... नखरे करतां....?

**दिलीप** : आंऽऽ आरे मिसकॉला न्हु रे- हावेन पयलें फावट बेल दामली तेन्नाच दिस्त म्हाका बायलेचो फोन येयलो... हांगा तुमच्या दाराकडे कवरेज मेळाना म्हण सकयल वचून उलयतालों....

**परेश** : म्हाका दिसलें... म्हाका बेलीचे भास जांवपाक लागलें म्हण....

**दिलीप** : तरी बरें मरे तर हांव बेगीन भितर सरुन, नाल्यार तुज्या सपनानसून हांगा बेलीच बेली वाजतल्यो आसल्यों. बरें... वैनी खंय आसा?

**परेश** : किद्याक? तिका आयजुय बिन नात करता किदें?

**दिलीप** : आरे नारे पापया... फुडलें तयारेक लागपाक जाय न्हू?

**परेश** : फुडलें तयारेक ती किद्याक जाय? हांव आसा न्हू रे... आनी

तो रिकवरी ऑफिसर येतलो आता...

कविता : (भितरसून यता) येयलो दिलीप भावोजी... यो... यो... चल-चल... बेगीन करुया... तो येवच्या पयली सगळी तयारी करून घेवयां...

दिलीप : हय वैनी... परेश, चल-चल. न्हिदपाक चल तू....

परेश : पुण कविता, एक मात काम कर... हे फावटी सामाळून..

दिलीप : आरे पापया- आं... रे - हे फावटी किदें रावण प्रकट जावपोचो ना ये फावटी पैशें पैशें...

परेश : ते बरें आसा रे. पुण पयशावांगडा हेय गडप जायत...

कविता : हय भावोजी- तशे बिन किदें जांवचे ना न्हू? म्हाका जाल्या सामको भंय सो दिसता. फाटलें फावटी त्या रावणान केलां ते सोसपाचे न्हूं... आजून दुखतां म्हाका... दोनुय बोचकुलांक धरून तेणी विमानान बसयलें तें...

दिलीप : वैनी, तशें काय जावपाचें ना. हे पळय वैनी, परेशाचो हो सपनरोग मात्सो वाडला. हातून आता प्रकट जाल्लो मनीस जी वस्त वा आनीक किदेंय हातान घेता ती जर ताच्या हातान परेश उठ्ठता आस्सताना उरली जाल्यार तो तिच्यासकट गडप जाता... जशीं तू जालीं...

कविता : आणि तरी बरें- तुवें तकली लडोवन परत आमका प्रकट करून सोडयली तें... नाज्याल्यार त्या रावणान म्हाका सीता समजून खंयच्या तरी रानांन व्हरुन....

परेश : रानांन न्हू गो... वनांन.. वनांन... अशोक वनांन...

कविता : हय, तेंच तें- वनांन आनी रानांन अेकूंच तें...

दिलीप : आंसू ते वैनी आता - तो तसलें कांयच करूंक पावलों ना न्हूं.

कविता : ना (चितून) पुण म्हाका सांगात -तेणी म्हाका रोकडेंच हांगा परत हाडून कशें सोडलें...?

परेश : पळयलंय मुगो? तू त्या रावणाक लेगीत आवडूंक ना.. तू जायें तरी कोणाक? नखरें फक्त तुजें... हावेंच चुक केली...

कविता : (रडून) परेशऽऽ दिलीप भावोजी पळयलंय परेश कसो उलयता तो... हांव त्या रावणावांगडा नात जाल्लें तेच बरें आसलें... तो रावण म्हण – कसलो रावण म्हण कोण जाणा... भितुड्डो रावण...

दिलीप : वैनी तो भितुड्डो न्हू... भितुड्डो तुझो घोव परेश. आता तो किदेंय उलोव. पुण तू ना जाल्लीं तेन्ना हो हांगा कसलो भिय्याल्लों – सामको रडूंक पावल्लो.. हय मरे?

परेश : पुण रडूंक ना मरे...?

कविता : असूं तो विषय भावोजी – म्हाका खबर आसा तें... तो जीतलो झगाडतां तितलोच मोग करता म्हजेर तें...

दिलीप : हय, तशेंच आसपाक जाय – घोंव बायलेचें आणि म्हणूनुच हांवे तकली लडोवन सोमतोच त्या रावणाचो आनी तुजो फोटो दाखवन हेका न्हिदयलो आनी सोमतीच तुमी प्रकट जालीत. आनी प्रोब्लेम सोल्व जालों...

(इतल्यान भायरसून रिकवरी ऑफिसर गुप्ता यता.)

गुप्ता : (हो घाट्यांसारखो उलयता) प्रॉब्लेम सोल जालो... नु किदें आशां– प्रॉब्लेम तयार जाला...

परेश : दिलीप, हो पळंय, होच तो रिकवरी ऑफिसर गुप्ता.

दिलीप : हां... गुप्ता? हो गुप्ता... म्हणूनुच हो पयशें करता गुप्त....

गुप्ता : हे... किदेंय उलोंव नाकात. किदें आशा... हांव डुटयेर आशां. रिकवरी करपाक येयलां...

कविता : (चाळोवन दाखयत) रिकवरी करपाक येयलां... ह्या बँकेवाल्यानी ह्या घाट्यांक रिकवरी ऑफिसर करून गोंयकारांक फोणांन घालपाक लायल्या... घाटीं

खंयचें....

गुप्ता : हे पळंय... अशें उलोवपाचे ना... किदें आशा... हांव डुटयेर आशा.

कविता : अशें उलोवपाचें ना? आनी डुटयेर दुसऱ्यांक फोणांन घालपाचें मात आसा.

गुप्ता : हे पळयांत, तुमी पयशें दिता जाल्यार दियात. नाजाल्यार हांव चल्लो. तुमीच फोन करून मॅनेजरांक सांगलें, म्हण म्हाका तेणी हांगा धाडला. तुमची शाणपणां आयकोंक न्हूं. हांव किदें तुमच्या रिणान ना–

दिलीप : (स्वगत) रांव तुका आता सारके दाखयता रिणांन काय फोणांन ते... (उगड) हां– तर मिस्टर गु...गुप्ते... हे पळयांत, आमी तुमचें सगळें पयशें फारीक करतां... आत्ता... मार मार रिसीट मार...

परेश : (दिलीपाक सायडीक व्हरून हळूच) आरे पापया नेट करू नाका.... आठ रुपया नु तें... आठ लाख ते आठ लाख... आणि आजून तुयेन तुजें ते आयडेयन एकूय रुपया तयार करुंक ना...

दिलीप : आरे हय मरे– हांव विसारलोच (गुप्ताक) अं – हे पळय गुप्ता, आजून पयशें तयार जांवक ना...

गुप्ता : किदें? पयशें तयार जांवक ना? म्हणजे तुमी हांगा किदें डुप्लिकेट पयशें बिन तयार कराता काय किदें?

दिलीप : हे–हे– म्हाका म्हणपाचे आसलें आजून पयशांची तयारी जांवक ना... मात्सो वेळ लागतलों तें येवपांक....

गुप्ता : मागीर काय हरकत ना. हांव हांगाच बसतां. (तो बसता)

परेश : (हळूच दिलीपाक) तुका सांगलेले हांवेन–मात्सो बेगीन यो म्हणून. आता किदें?

दिलीप : आरे– हांव ना येयलों बेगीन म्हणून किदें जालें? तुका आनी

वैनीक करपाक कळां नाशिल्लें? हांवूच जाय आसलो? आता किदें तरी उपाय सोद-

गुप्ता : आरे थंय कसल्यो बारीक गजाली करतात? कोण पयशें घेवन येवपाचो आसा जाल्यार फोन करा मरे तेका.

परेश : (किदेंतरी सुचोन) हां करता. (दिलीपाक) हे दिलीप, आयडीया (हळूच) तू मरे अशें कर (दिलीप - कशें?) तू मरे पयशें हाडप्याक फोन करपाचें नाटक करून भायर वच आनी...हो घे नंबर ९८२२....(किदेंय एक नंबर सांगता) हेचोच तो- हेकाच फोन कर. तुज्या मोबायला वैल्यान... आनी कसोंय करून हेंका भायर काड हांगासून - मागीर हांव आनी कविता दिस्त करता...

कविता : हय व्हय, दिलीप भावोजी चल तू... हांव तयार करता पैशें...

दिलीप : बरें तर (उगड) बरे मि. गुप्ता. हांव पळोंवन येता हां तेका (तो भायर वैता. सविता आनी परेश गुप्ताच्या हातान असलेल्या मोबायलाक परत परत पळयतां- काय वेळान गुप्ताचो फोन वाजता)

गुप्ता : आयलों... सायबाचो काय? (पळोवन) न्हू... कोणाचो काय? (घेता) हॅलो.... हां? कोण उलयतां? हय हांव गुप्ता. आरे बाबा लिमता न्हू रे गुप्ता - गुप्ता. (परेश - कविता हांसता तेंका) कोणतरी लुडबी उलयतां- (फोनार) आं हॅलो, सांग किदें? पन्नास हजार? नांव किदें तुमचें? मिस्टर नाईक? मात्सो रांव हा. (आपल्या लिस्टान पळयता) हां... हां... मेळ्ळेऽऽ अजित नाईक.... पन्नासुच दितां? तुमचें तीन लाख आसा न्हू. हां बरें बरें! किदें आत्ताच खंय? खंय-खंय? हां हां हां हे पळय हांव थंयच आसा. ते तुमचो तोणामुखारचे बिल्डींगेत- तुमी थंयच रावात यता हांव दोन

मिनटांत यता. (फोन कट) हे पळयांत, तुमी पयशें तयार दवरांता. हांव रोखडोच पाच मिनटांन येयलों. मात्सो सकयल होटेलार एकटो क्लायंट रावला–सामकों चिवट तो. पयशें दिता ते घेवन यता (तो वैता, घाईनुच तो वैता. दिलीप भितर सरता...)

**दिलीप** : (यतानाच गुप्ताक) बेगीन यो रे... पयशें तयार करतां....

**परेश** : यो – यो अजित नाईक– बरें घातलें तुवें हा तेज्या कानांन...

**कविता** : चला चला बेगीन आनीक उपोलपाक वेळ घालोव नाकात.

**दिलीप** : हय– हय, चल परेश... चल तू न्हिद खाटीर.... वैनी... वैनी... दी ती हजाराची नोट... (ते हजाराची नोट हाडून दिलीपाकडे दिता. कविता – ही घे) हां.. परेश पळय. हे हजाराचें नोटीक पळय...(तो खाटीर बसला– नोटीक पळयता झेमतां) आनी तू हे हजराचें नोटीची सपनां पळय... नोटींची बंडलाची बंडला तू सपनान पळयत न्हिद.. पूण आमी उठयल्या शिवाय मात उठो नाका... न्हिद... (तो हळू हळू न्हिदता) वैनी न्हिदलो तो आता पळय कशें पयशें तयार जातात तें...

**कविता** : जांवनी जांवनी– बरो येयल्लो घाटी आमकां लुबाडपाक. आता तेकाच घालया त्रासांन... हे सपनातलें पयशें तेका दिवन.... तो येयत बिन आनी... चल चल भावोजी पळय पयशें जालें काय..

**दिलीप** : एक मिनिट वैनी... (दिलीपाचे खाटीकडे वचून चादरीनसून पयशांची बंडला काडीत) हे पळय वैनी, पयशांची बंडलाच बंडला....

**कविता** : आवयस, पयशें चड तयार जालें काय किदें? आमका फक्त

आठूच लाख जाय... तितकेच काड भावोजी.

दिलीप : (मेजीत एक एक बंडल काडीत) एक... दोन.... तीन... चार... पाच...स...सात.... आठ....पुरो णंव लाख पुरो...

कविता : एक लाख एक्स्ट्रा किद्याक भावोजी?

दिलीप : तू वोग्गी रावून पळय वैनी... हांव कसो तेका सॉलिड नागयता तो.

गुप्ता : (भायरसून यता) पाड पडूं हेंचे.. कोणें तरी भलत्यानुच फोन करून कानांत घातलें म्हज्या... (हेंका) हं... पावलें पयशें?

कविता : हय... हय.... मिस्टर गुप्ता...(दाखयत) हें पळंय...

गुप्ता : हं... बरें बेगीन पावलें... हजराच्योच नोटी दिस्ता... जांव, बरे जालें, चड मेजच्यो पडच्यो नात... हं दियात...

दिलीप : (तेचेकडे दियत) हं घे... सारकें णंव लाख आसात. मेजून घे...

गुप्ता : णंव लाख, एक लाख एक्स्ट्रा किद्याक?

दिलीप : तो चड तयार जालो... ते हे... हांव मंटालो चुकोन चड दिलो तेणे... दवर तो तुका...

गुप्ता : किदें? म्हाका? (आंवडो गिळून) एक लाख? बरें बरें (बेगी बेगीन बंडला बॅगेन भरतां इतल्यान....)

दिलीप : हे... हे... अशें कशें... पयशें मेजून घे... मागीर आनी भानगड नाका.

गुप्ता : आनी किदें मेजू? पॅक बंडला आसा न्हू ती... वैल्यान एक्स्ट्रा आसा.

कविता : पुण बंडला तरी सारकी मेजून घेतलेली बरी न्हु मि. गुप्ता....

गुप्ता : बरें बरें... तर.... (तो हावरटाभाषेन एक एक बंडल मेजीत

बॅगेन भरता... एक ते णंव बंडला मेजता... हेवटेन दिलीप ती मेजीत आसतांना तेची मोबायलार शुटींग घेता...) सारकी आसात णंव.

**कविता** : बरें... आता पोचपावती दिता न्हूं? आणि मात्सो हांगासूनच फोन करून मॅनेजराकुय सांग, पयशें पावलें म्हणून....

**गुप्ता** : तू कायच भियो नाका वैनी... हांव सगळें करता... तुमकां जाय ते करतां... त्या कामाखातीर तुमी म्हाका एक लाख दिलात न्हू... हांव सगळें करता.. एक मिनिट.... (बॅगेनसून रसिट बुक काडून रसिट काडता. सय, स्टॅम्प मारुन याद जांवन) आनी परेश खंय... तर... तेची सय जाय आशिल्ली हांगा...

**कविता** : तो पळय, तो न्हिदलां... जीवाक बरें ना ताच्या ह्या टेन्शनाक लागून. म्हजी सय चलचींना?

**गुप्ता** : आंसुव... आंसुव.. न्हिदो तेका. तुमचीय चलतलीं. चलतलीं.... किद्यांक धांवतलीं... घे, हांगा सय मारात... (ते सय मारतांना) रिसिट सामकी आठ लाखांची मारल्या... (जातकुच) हं... (रिसिट दिता) हं... घेयात... ही तुमची पोच पावती... आनी आता फोन, मॅनेजराक फोन करतां... एक मिनिट.... (बोल्सानसून बेगी बेगीन मोबायल काडता. फोन लायता) हां... हॅलो... सर.. गुप्ता उलयतां... ते परेशरागेर येयल्लों हांव... हय... सर.. ते.. तेणी आठ लाख फरिक केलें हां... हय...सर..हय पावलें...पयशें म्हजेकडेन पावलें...हय सारके मेजून घेतल्या... हय सर... यता हांव... आताच डायरेक्ट बँकेनुच यता... ओके... यस सर... (तेंका) हां तर वैनी यता हांव... सरान बेगीन येवन पयशें बँकेन भर म्हटल्यात... बरें तर मिस्टर... (दिलीपाक) यतां हांव... थँक्यू... थ्यँक्यू सो मच... .(घाई घाईन खुश जांवन भायर

वैता)

**दिलीप** : जालें... एक टेन्शन गेलें... हो घुंवलो वैनी... ही एक लाखाची गुळी सामकी लागली हेका...

**कविता** : फुकट दिलें तुमी तेका ते पयशें दिलीप भावोजी... एक पांच धा हजार तरी... सामकोच एक लाख मेळलों तेका फुकटचो.

**दिलीप** : फुकटचो तेका न्हू... वैनी... फुकटचो तुमकां मेळटलो तो...

**कविता** : आमकां? पयशें दिल्या तुमी तेका आनी....?

**दिलीप** : तू पळयत रांव वैनी... रांव परेशाक उठोवयां आता... (उठोवंक)

**कविता** : हँ.... दिलीप भावोजी नाका... तेवटेन पयशें ना जातलें.. तो पिसावतालों....

**दिलीप** : तशेंच जांवक जाय वैनी... तू पळयत राव म्हजी आयडीया... परेश... (तेका हालयता) उठ परेश... उठ... जालें काम तुजें... रिण फारीक जालें... (तो उठता...)

**परेश** : (उठत) जालें... बरे जालें तर एकदा... एक टेन्शन मेकळें... आता दुसरें... टेन्शन... (कविता -दिलीप आश्चर्यान)

**कविता** : किदें? दुसरें...? ते आनी कसलें?

**परेश** : म्हज्या जॉबाचे आनी कसलें...? (दिलीप चितूक पडलां)

**कविता** : हय. तेय बिन खरें.... पुण तुका बँकेन परत आफोवचें ना तर ते आता?

**परेश** : ना. आणि आफयलो लेगीत जाल्यार म्हाका नाका ती सर्वीस आता.

**दिलीप** : (अचानक) आयडीया... परेश आयडीया... आमी मरे एक बिजनेस करुया...

**परेश** : बिजनेस..? नाका रे बाबा... ते म्हाका जमपाचें ना-

**दिलीप** : तसलो बिजनेस न्हु रे... टोपयों घालपाचों बिजनेस टोपयों घालपाचों...

**कविता** : किदें टोपयांचो बिजनेस...? दिलीप भावोजी, सुटलां काय किदें, टोपयांच्या धंद्यान फायदो तो कितलों जातलों? आनी एक दिलीप भावोजी- त्यो शिवपाच्यों बिवपाच्यों जाल्यार हांव ते शिवपाचें भानगडीक पडपाचें ना हां... तुमचें तुमी पळोवन घेयात.

**दिलीप** : वैनी... पयली सगळें आयकोन तरी घेयात- शिताफुडे मिठ किद्याक खातात तुमी...? हांव म्हणटा त्यो असल्यों टोपयों न्हू... हांव मंटा त्यो लोकांक घालपाच्यों टोपयों....

**कविता** : मागीर आमी किदें जनावरांक घालपाच्यो टोपयों मंटा....?

**दिलीप** : शीऽऽ वैनी कशें सांगू तुमकां? अगे वैनी... त्यो राजकारणी बिन लोकांक घालता पळय तसल्यो टोपयों...

**कविता** : दिलीप भावोजी, हांली राजकारणी लोंकाक टोपयों वाटीनात... साडयों वाटतात साडयों.....

**दिलीप** : चे.... आता तुमकां फोडूंनच सांगता...हांव मंटालो लोकांक फटवपाचो बिजनेस... तेकाच मंटा टोपयों घालपाचो...

**परेश** : हे... हांव ना रे बाबा... तसलो बिसनेस म्हजेकडे जावपां ना.

**दिलीप** : किद्यांक जावपां ना? आरे व्हडले व्हडले लोक अशेंच करून पयशें जमयतात... आणि आमी भियातांत....

**कविता** : पुण दिलीप भावोजी.... लोकांक फटोवपाचें म्हटल्यार... वायट न्हू ते...

**दिलीप** : काय वायट न्हू... हे पळय वैनी... आमी बऱ्या लोकांक फटोवपाचें ना... म्हजेकडेन एक सॉलीड आयडीया आसा...

तितून परेश, तुका जॉब लेगीत मिळू शकतां... शकतां किद्याक मेळटलोच... वैल्यान तोंय बिन सरकारी जॉब...

**परेश** : (फुलोंन) किंदें सरकारी जॉब...? पुण अश्यों.... टोपयों....

**दिलीप** : पुण बिन काय ना... आयकात... पयली हांव सांगता ती आयडीया तरी आयकून घेयांत. (तो तेंका दोगांकुय लागी हाडून कानाकडे हळू किंदें सांगीत- तेंचे दोगांचे हंय न्हू हावभांव... शेवटांक दोगांय मानतात) चला तर ठरलें... दियात टाळी.. (तिगांय हातार हात दवरतां... इतल्यान भायरसून गुप्ता, मॅनेजर बुडकुले, इन्स्पेक्टर येंडे आणि हवालदार यतात.... तेंका पळोवन ही तिघांय दचकून फांटी सरतात...)

**गुप्ता** : (इन्स्पेक्टरांक) ही पळयांत सायब... हिच ती फंटीगांची टोळी... हो परेश.... ही तेची बायल... आनी हो तेंचो पार्टनर....

**परेश** : (इन्स्पेक्टरांक) (भियोन) किंदें जालें.... किंदें जालें सायब...?

**इन्स्पेक्टर** : किंदें जालें म्हणून आनी इचारतां...? कंप्लेन पावल्यां आमकां तुमची... हेंचेकडसून....

**कविता** : आमची कंप्लेन...? कसली सायब?

**इन्स्पेक्टर** : हेंचे म्हणणे आसा की तुमी हेंका आठ लाखांक लुटल्यात...

**परेश** : आमी? वैल्यान हेंच्यानी आमकां आठ लाखांक लुटल्यां....

**मॅ. बुडकुले** : परेश.... परेश... वोगीच फोटी मारु नाका... तू बँकेचे आठ लाख रुपया दिवपाचों आसा....

**परेश** : किंदें? दिवपाचों आसा...? आनी व्हदळ दिल्या ते...

कविता : बरी रिसीट - आसा तेची आमचेकडेन. बँकेच्या स्टॅम्पासकट ही घे सायब- पळयांत ही... (रिसीट इन्स्पेक्टराक दाखयतां)

इन्स्पेक्टर : रिसीट तर सारकी आसा... मॅनेजर बुडकुले ही तुमचेच बँकेची न्हू?

मॅ. बुडकुले : हय... पुण इन्स्पेक्टर सायब, पयशें गायब जाल्या न्हूं....

इन्स्पेक्टर : हां तर परेश- हेंचे म्हणणे आसा तुमी दिल्ले पयशेंच गायब जाल्यात.

दिलीप : पयशें गायब? किदें सायब? जोक करतात किदें? पयशें म्हण अशें गायब जांव शकतां? (गुप्ताक पळोवन) ते कोणीतरी गायब केल्या आसतलें... आमी तर पयशें दिवनुच रिसिट घेतल्या न्हू....

इन्स्पेक्टर : हय. तेंय बिन खरे आसा... मिस्टर गुप्ता... तुवें पयशें घेवूनच रिसिट दिल्ली मरे तेंका? मागीर ते पयशें तुवेंन...

गुप्ता : (भियत) ना... ना... सायब... ते... हें... पयशें....

इन्स्पेक्टर : अडखळतां किद्यांक? सारके किदें ते सांग सडसडीत.

गुप्ता : (आपलेर यताशें पळोवन) सा...सायब... हेंच्यानी पयशेंच दिवंक ना... जबरदस्तीन सुरयेचो भय दाखोवन हेंच्यानी म्हजेकडल्यान रिसिट मारून घेतल्या सायब... (परेश, कविता आश्चर्य)

इन्स्पेक्टर : (परेशाक) हय रे...? सुरयेक बरी धार आसा तुजें... हां...?

परेश : ना सायब... हो फटींग उलयतां...

दिलीप : आणी माका खबरुच आसलें हो असो बदालतलो तो... म्हणून सायब ही पळय (मोबायल्यान दाखयत) हांवे हो पयशें मेजून घेताना शूटींग काडून दवरलेंलीं... पळयांत सायब. हो प्रफु... (इन्स्पेक्टर पळयतां.. गुप्ता सामको

भियाला)

इन्स्पेक्टर : अं... बरे केलें तुयन हो प्रुफ दवरून... पुण हितून हेणी णंव लाख मेजल्या मरे... आनी रसिट आठ लाखांचीच शी....?

कविता : हय सायब. आमी तेका टोटल णंव लाख दिल्यात...

दिलीप : वैलो एक लाख फिक्स डिपोजिट दवरपांक दिल्लो... तेची रिसिट हेणी मागीर दिता म्हटलेली सायब....

गुप्ता : ना... ना... सायब.... हेंच्यानी दिवंक ना पयशें... दिवंक ना....

इन्स्पेक्टर : दिवंक ना... जाल्यार हे किदें... तेंचेकडेन प्रुफ आसा...

कविता : वैल्यान हेणेंच.... मॅनेजराक फोन करून लेगीत सांगला पयशें पावलें म्हण- हय काय ना मॅनेजर सायब...?

मॅ. बुडकुले : हय, सांगलेले खरें, पुण पयशें काय तेणे बँकेन हांडूक ना...

गुप्ता : सायब, पयशेंच गायब जालें जाल्यार खंयचे हाडतलो?

दिलीप : पयशें गायब जालें काय, गायब केले रे? इन्स्पेक्टर सायब, हेका व्हरांत आनी बरो रोस काडात हेचो... मागीर कळटलें हेका पयशें कशें गायब करपाचें ते...

इन्स्पेक्टर : हां- तर मॅनेजर बुडकुले, तुमची कंप्लेन तुमकां आता फाटी घेवची पडतली आनी ती परेशाचेर न्हू - ह्या तुमच्याच ऑफिसराचेर मि. गुप्ताचेर घालची पडतली... हे णंव लाख हेणीच गायब केल्यात... हे आता सामकें प्रुव्ह जालां....

दिलीप : आनी मॅनेजर सायब.. आमची वैल्या एक लाखाची डिपोजिट सर्टीफिकेट बेगीन दियात... नाजाल्यार कॅश तरी परत करात... (इतल्यान हळू गुप्ता पळोंवक सोदता.... तेका पळोवन) सायब तो गायब जातां....

इन्स्पेक्टर : (हवालदारांक) हवालदार (हवालदार-यस सर) घट्ट

धरांत, धरा तेका आणि दामा व्हरून पुलीसेन... ते हे झिपिन... हांव यता रोकडीच...

हवालदार : यस सर. (तेका गुप्ताक घट्ट धरून भायर व्हरता. तो गयावया करीत आसता. म्हाका फोणांन घातलों.... पयशें गायब जालें वै. बडबडता)

इन्स्पेक्टर : हां तर परेश, तुमका मात्सो त्रास जालो... पुण कंम्प्लेन निभावली ते बरें जालें. आनी मि. बुडकुले.. ते णंव लाख त्या गुप्ताकडसून रिकवर करून घेंवन... हेंचे एक लाख दिवन उडयात सोमतेच...

मॅ. बुडकुले : हय इन्स्पेक्टर सायब. तशेंच करया...

इन्स्पेक्टर : हं- चला तर या... बरें परेश यतां आमी. बरोच रोस काडतां तेचो...

परेश : बरें सायब, ओळख आसूं दि... (इन्स्पेक्टर, मॅ. बुडकुले भायर वैता) (तो गेल्या उतरांत) फाटीफुडे जाय पडतली.. आमी टोपयांचों बिजनेस करपाची आसां न्हू म्हण.

कविता : दिलीप भावोजी, तुमची आयडीया मात फर्स्ट क्लास हां... वैल्यान आमकांय बिन भायल्याभायर एक लाखाचो फायदो....

परेश : हयं... बरीच व्हडली टोपी घातली मरे तुयेन तेका...

दिलीप : पळयलंय! हो असो जांवन आसा टोपयांचो बिजनेस आनी ही जांवन आसली पयली टोपी.... णंव लाखाची... **(तिगांय स्थिर. प्रवेश २ सोपतां)**

**(अंक १ लो सोंपता)**

# अंक दुसरो

## प्रवेश पयलो

(स्थळ : तेच. फाटल्या प्रसंगाउपरांत धा पंधरा दिस जाल्यात. ह्या वेळार परेश खाटीर डारडुर न्हिदला. कविता सोफार बसलां, तेच्याफुड्यांन टिपोयचेर पयशांची बंडलां आसात आनी दिलीप येरझऱ्यो मारीत कोणाची तरी वाट पळयतां- घड्याळाक पळयतां- भायर पळयतां- दारानसुन पळयतां- खिडकेनसून पळयतां)

**कविता** : (बेजारुन) दिलीप भावोजी, कॅट केलें दिसता तुका त्या पियेन...

**दिलीप** : ना वैनी... तो तशें करचो ना... पयश्यांक सामको चामटो तो...

**कविता** : तशें जाल्यार कॅटूच तें... आनी कोणी तेका चड पयशें दिता म्हटलें आसतलें तो थंय गेलो आसू येत. मंत्र्यांचे पी. ए. तशेंच आसतात.

**दिलीप** : ना गे. तो तशें कशें करतलो? आगे अॅपोइन्टमेंट ऑर्डर ऑलरेडी आमच्याच नावांन काडल्या मुगे. ती कशी बदलतलो तो?

**कविता** : काय सांगू नजो भावोजी- मंत्री ते, आयज हांगा जाल्यां फाल्यां थंय.... तशें.... तशें तेचें पी. ए. नाचतात - शेपटी कशें.... (इतल्यान भायरसून पी. ए. प्रकाश, हातान पास्त बिस्त घेवन, घाईघाईन यता, चश्मो लायला.)

**पी.ए.प्रकाश:** माफ करात हां. येवपाक मात्सो उशीर जालो... (कविताक बारीक पळयत)

**दिलीप** : आंसुव आंसुव. कळटा आमका ते मंत्र्यांच्या वांगडा रावून तुमकायबीन तेंचीच सवय जाल्या ती.

**पी.ए.प्रकाश:** (कविताक) तुमी...? (चश्म्यानसून पळयत) तुमी हेंच्यो

मिसेस दिसतां...?

कविता : न्हूं... हांव परेशाली बायल. हो परेशालो इष्ट दिलीप....

पी.ए.प्रकाश: अशें.... मागीर... अं हं... तुमी हेंच्यावांगडा शी... हांगा किदें करतां? अं?

कविता : (रागान) हे म्हजेच घर... तो पळय... तो न्हिदला तो म्हजो घोव परेश...

पी.ए.प्रकाश: अच्छा... अच्छा... म्हणजे तुमचो घोव सुस्त न्हिदला... आणि तुमी... अं... समाजलें.... समाजलें.... आंसुव (स्वगत) फाटकुडें केन्ना म्हाकाय चान्स आसा...

दिलीप : हे पळयांत सर... आता आमी आमचें कामाचें उलयल्ले बरें न्हु?

पी.ए.प्रकाश: हय तर... हां तर... हे पळयांत मिसे....स..?

कविता : कविता. कविता परेश झेमेकार

पी.ए.प्रकाश: (मोगान) कविऽऽता. वा कितलें सोबीत आनी गोड नांव... आनी नावांप्रमाण तुमीय कितली गोड.... (स्वगत) म्हण लागल्या तुजी म्हाका ओढ....

कविता : (हळूच) दिलीप भावोजी, हो पी. ए. हांगा नाका गे बाये...

पी.ए.प्रकाश: हां... तर हांव किदें मंटालो मिसेस कऽविऽताऽऽ हांव पी. ए. मिस्टर पी. ए...

कविता : पी. ए. मिस्टर पी. ए....?

पी.ए.प्रकाश: हय... कन्फुज जांव नाकात... म्हज्या डेजीग्नेशनाक आनी नावांन एकूच शॉर्टफार्म यता. म्हणून खुपशें लोक घुस्पाटतात.... पयले पी. ए. म्हजे डेजीग्नेशन आनी मिस्टर पी. ए. म्हणजे मिस्टर प्रकाश आमटे...

कविता : हां... आमटे... आयलें लक्षात... देखुनूच तुमी आमट...

पी.ए.प्रकाश: मागीर हे आमटानीन मात्शी तुमची गोडसाण मिक्स करीत...

जाल्यार बरी किक्स येंव शकता मिसेस कऽविऽताऽऽ....

**दिलीप :** पी. ए. सायब, ते मिक्सींग बिक्सींग मागीर करुयां... पयलीं ते आमचे फिक्सींग करून उडोवयां–

**पी.ए.प्रकाश:** तशें जाल्यार बरें आसा. पुण याद दवर हा ... मिक्सींग हे जावपाकूच जाय... नाल्यार फिक्सींग ना.... हां तर पयशें तयार आसा?

**दिलीप :** हय. हे पळय (दाखोवन) व्हदळच्यान टिपोयार बसून तुमकांच पळयतात ते.

**पी.ए.प्रकाश:** (पळोवन) आरे, हय मरे तर म्हाजे लक्षच वचूक ना हे साक्षात लक्ष्मीचेर.

**दिलीप :** (कविताक निर्देशून) तुमचे लक्ष दुसरे लक्ष्मीचेर आसलें न्हू? बरें आमच्यो ॲपोइन्टमेंट ऑर्डरी खंय?

**पी.ए.प्रकाश:** हाडल्या रे बाबा. रांव पयशें तरी मेजून घेता पयलीं. (मेंजूक लागता)

**दिलीप :** मेजात मेजात... पन्नास हजार चडूच आसतलें. (तो मेजून सगळें पयशें पास्तान भरता. धां लाख मेजता. एक लाख चड मेळटा.)

**पी.ए.प्रकाश:** (भरताना) सामके मरे... दोगांचे मेळून धां लाख आनी पन्नास पन्नास एक लाख चड आसा हो...

**कविता :** तो दवरां तुमकां टीप्स म्हणून....

**पी.ए.प्रकाश:** आवयस, तुमी टिप्स दिता म्हाका? आणि तोवयु एक लाख? थँक्यू...

**कविता :** बरें मिस्टर आमटे ... (लाडान) आता आमच्यो ऑर्डरर्स दियात न्हू....

**पी.ए.प्रकाश:** ऑफ कोर्स. ऑफ कोर्स... (काडून दिता) घेयात... ही मिस्टर परेश सदा झेमेकार (सविता घेता) आनी ही दिलीप धिगू दिवचलकर (दिलीप घेता) परवाच्यान डायरेक्ट डुटयेर

चढपाचें...

**दिलीप-कविता:** थँक्यू सर... (दोगांय वाचतात. पी. ए. कविता फाटल्यान लागी वचून रावतां.)

**कविता :** (वाचून परयाता- तेका पळोवन पैयस) सर तुमकां चा... थंड... गरम.. किदें...

**पी.ए.प्रकाश:** (कविताक पळयत रावून) गरम चलतलें...

**कविता :** बरें तर... (स्वगत) गरम काय करम! काम जालें आता सटकलेलें बरें.

**दिलीप :** हां तर पी. ए. सर.... कविता वैनी गरम जाय मेरेन... ते हे गरम हाडीमेरेन हांव तुमकां एक गजाल सांगता - सामकी तुमच्या फायद्याची...

**पी.ए.प्रकाश:** (फुलोन) फायद्याची? सांग सांग बेगीन सांग...

**दिलीप :** म्हाका सांगात, हे पयशें व्हरून तुमी किदें करतलेत आता....?

**पी.ए.प्रकाश:** किदें म्हणजें... म्हज्या सायबांची, म्हणजें माननीय मंत्री महोदय श्री. पटेकरांची व्हडली तिजोरी आसा, तितून भरून दवरतां... (हळू सांगता)

**दिलीप :** म्हणजे तिजोरीची चावी तुमचेकडेन आसतां....?

**पी.ए.प्रकाश:** हय. हांव सायबांचो खास मर्जीतलो मनीस न्हू?

**दिलीप :** मागीर तुमकां सॉलीड चान्स आसा.... करोडपती जावपाचों...

**पी.ए.प्रकाश:** (हासता) आनी आता ना तर हांव करोडपती? (हळूच) तुमकां सांगता, सायबान मारलेली अर्दी कातर म्हज्या घरा पावतां... आणि आता म्हणून... हे सगळें सायबाक पावतलें तर...?

**दिलीप :** तरीय... तुमकां आजुनुय गिरेस्त जावपाचो आसा जाल्यार सांग....

**पी.ए.प्रकाश:** चड गिरेस्त जाल्लो म्हणून कोणांक नाका जालां? आता आमच्या सायबाक पळय... मेळटा थंयचर खातां- कातर मारता.... खोऱ्यांनी पयसो वोडतां... खोऱ्यांनी... पैशांची आंस ती... ती केन्ना सोंपता...?

**दिलीप :** तशें जाल्या आयक, तो तिजोरींचो सगळो पयसों हांगा घेवन येयात. हांव तेचो डबल पयसों करून दिता... तुमकां...

**पी.ए.प्रकाश:** तू किदें मटका किंग बिंग काय किदें रे?.... पयसों डबल करपाक?

**दिलीप :** ना. म्हजेकडेंन एक पयशें डबल करता तसलो कोमों आसा कोमों....

**पी.ए.प्रकाश:** तू म्हाका पिशान काडता किदें रें? पयशें डबल करता आणि तोय बिन कोमों....

**दिलीप :** तुमी पयशें घेवन तरी येयात... तुमकां ताबडतोब डबल करून दिले मंटकीच जालें. मात एक काम करा – सोमतेच व्हरुन तिजोरीन भरचें पडतलें तुमकां.

**पी.ए.प्रकाश:** म्हणजे किदें तरी भानगड आसा–

**दिलीप :** भानगड बिनगड काय ना. इतलो पयसो वाटेर कोणी मारलो जाल्यार, हाली चोरयो कितल्यो वाडल्यात? तुमी फोणांन पडचें न्हंय म्हणून.

**पी.ए.प्रकाश:** म्हाका काय खरें दिसाना बाबा तुजें.. म्हाका नाका ती भानगड...

**दिलीप :** पळयांत – तुमीं अशें करात– तुमी पयली थोडेंच पयशें घेवन येयात. हांवे सांगल्याप्रमाण जालें आनी तुमची खात्री पटली जाल्यारुच तुमी बाकीचे पयशें घेवन येयात... पयशें डबल जातकीच एक वाटो तुमकां आनी तिजोरीनचो वाटों तिजोरीन.. (तो आशेंला)

**पी.ए.प्रकाश:** आनी तुजो किदें फायदो हातून....?

दिलीप : म्हाका तुमी किदें दिता तें... कमिशन...

पी.ए.प्रकाश: पळय हां. किदेंय फटींगपणा जांवक फांवना... (उमेदिन) हांव आताच वैता आनी अर्दे पयशें घेवन यता तिजोरीनचे..

दिलीप : चलात चलात... बेगीन घेवन येयात... तो न्हिदला तसो...

पी.ए.प्रकाश: (घाईन उमेदीन) बरें बरें, यता हांव... (तो भायर वैता)

दिलीप : (गेलेलो पळोवन) लोकांक नागोंवन पयशें कमयतात? सगळे चोर हे मंत्री-संत्री, पी.ए., सी.ए., अधिकारी, कर्मचारी सगळेच्या सगळे आमच्यासारख्या आम आदमींक लुटतात, हेंकाच सारकें शिकोवपाचें. अशोंच हेंका आता टोपयों घालपाच्यो... (इतल्यान भायरसून पेद्रू - एक ख्रिश्चन तरनाटो, विनोदी स्वभावाचो, भेसवणुय तशीच, हॅट, बुट बीन घालून, हातात एका चलयेचो फोटो घेवन भितर सरता.)

पेद्रू : मुग्या मोगा (फोटोवाक पळयत) कात्रीना... तू कित्याक मुज्ये जायनां... तुजेबोगार मुजे जायनां... हेय जायनां आनी तेय जायनां... तुज्याबोगोर म्हाका रावोकु जायनां.. खावोंक जायनां... जेवुंक जायनां आनी झेमुय लागोनां. मॉज्या कात्रीना. (हांगा फोटोवाक पळोवनूच तो मोगाचे कातांर मंटा. खंयचेय कोंकणी कातांर बॅकग्रांवडाक वाजोवचे. तेच्या तालार पेद्रू नाचता. दिलीप ताका पळयत अजापता - मदी पेद्रू तेकाय घेवन नाचता.)

दिलीप : आरे बाबा तु कोण? आनी हांगा येवन डान्स सो करतां? हांगा किदें कार्निवाल बिन आसा कशें दिसलें किदें रे तुका?

पेद्रू : कितें? तू महां वॉळखॉना? महां वॉळखाँना? ह्या पेद्रू फल्कांवांक ऑळखुना? वो आख्खो गांव महां वोळखॉता

आनी तू वॉळखॉना?

**दिलीप** : ना. बाप पेद्रू फल्कांव, तू या गावांन खंय रावतां तर?

**पेद्रू** : तू थंय देऊडवाड्यार त्या काडभैरवाच्या देवडाकडे एक व्होडलों बोंगलों आसा तो जाण मुरे – सबिना व्हिल्ला म्हुण...?

**दिलीप** : त्या बंगल्यान रावता तू? व्हडलो पात्रांव मरे तर तू?

**पेद्रू** : आरे नारे. मुगे आयकोय रे पोयली. त्या बोंगल्याच्या मात्सो मुखार सरून एक इल्लेशी पायण भितोर गेल्या ती खोबोर आसा तुका? (दिलीप –हय) हां... ती पायण ही सोपोता. आनी हे म्होजे घॉर...

**दिलीप** : आं.... आयलें लक्षात.. तो वेणुगोपाल अय्यर रावतां त्या घरान रावतां तू?

**पेद्रू** : हंय, तो म्होज्या घरान भाड्याकू रावोता. पुण तुग्ये बोरे आसा मुरे हे. म्होज्यासारक्या गांवच्या लोकां तू वोळखोना. पुण हिंगा रावत त्या घाटयांकू मात बोरो वोळखोता...

**दिलीप** : मागीर, आयजकाल आमच्या गांवान आमच्या लोकांपरस घाटीच चड भरल्यात न्हूं, तेचो परिणाम. वैता तो आपल्या घरासायडीक रुम काडतां घाट्यांक भाड्याक दवरतांत. तुका सांगता पेद्रू काय जाणांनी तर आपल्यो गायों–म्हशी इकून गोठ्याचे रुम काडून भाड्याक दिवन पायांर पाय उडोवन बसून जोडलां – जोडतात...

**पेद्रू** : लोकांक जोडतां जाल्यार जोंडू रे बापया. तुग्ये पोटान किद्या जोळोतां? ते आंसू... पुण माक अेक सांग रे... इंग कोण एकलो लोकां पैशांप्रोब्लेम, कामा प्रॉब्लेम, आनी हेर प्रॉब्लेम सोल्व करुता म्होण आयें आयकोला – तो तूच काय किदें रे....?

दिलीप : तुवें आयकलां ते खरें आसा. पुण अर्देच. हांगा फक्त सामकें गरजेक येयल्यांचेच प्रॉब्लेम सोल्व करतात....

पेद्रू : आरे बापया, हांवुय सामको गरजेकुच येयला मुरे....

दिलीप : गरजेक येयलां ? कसलें ?

पेद्रू : मोगचें, मुज्या मोगाचें.... एका चेडवाचें...

दिलीप : हॅ... आरे बाबा आमी तसलों गरज्यो भागयनां... तुका किदें दिसलें आम्ही हांगा चेडवाय पुरयता म्हण? सुटलां काय किदें रे तू पेद्रू?

पेद्रू : आरे बापया, मुगे आयकोय रे पोयली... हां तोर किदें आसा जाण मुरे मिस्टर....? (प्रश्नान तेका पळयतां)

दिलीप : दिलीप... दिलीप... मिस्टर दिलीप...

पेद्रू : आं... देखुनूच जाता तू रोखडोच सिलीप.... आसूं.. हां तर मिस्टर दिलीप.... मुजो मुरे एका चेडवाचेर मोग आहां... हांव खुऽऽप मोग कोत्ता तेगेलो... इतलो मोग कोत्ता.... इतलो मोग कोत्ता... इतलो मोग कोत्ता की उठता बोस्ता, निदतां-उठतां... हे करतां (मुतपाची कुरुं) ते करतां (हागपाची कुरुं) फोकोत तेच दिसोतां....

दिलीप : आं... पुण म्हाका सांग पेद्रू... हितून प्रोब्लेम किदें आसा? मोगान पडलेल्या मनश्याक अशेंच जाता...ह्यो मोगाचो रोग.... लवेरीया-

पेद्रू : हॉय रे बापया, जालें मुजें....पुण ते माक लागी रावोंन नु रे?

दिलीप : आंऽऽ अशें आसा तर. पुण पेद्रूबाप, उपाय हांव करिना - उपाय तो पळय (परेश न्हिदला तेका दाखोवन)... तो करतां...

पेद्रू : तु कोन्ना? तो कोत्ता? पुण तो ह्या वॉगतार न्हिदलो सो? राती बॉरे जागराण-बिगराण केलें काय किदें रे?

दिलीप : तो न्हिदूनूच प्रॉब्लेम सोल्व करतां.

पेद्रू : किदें? न्हिदूनूच? ओजोबुच मुरे हे आनी? वो न्हिदे बाबा किदें रे? आये योग बाबा, थापट बाबा, मंत्री बाबा आयकोल्ले... पुण हो न्हिदे बाबाचे मात आंयकुक नासोलें. बोरे आसुंव... तो न्हिदोन करु, (बा) बोसोन करु वा उभ्यानी करु. पुण मुगे एकदा प्रोब्लेम सोल्व करु बोरे. तु कोण? तेगे ऑसिस्टंट गाय किदें रे? (दिलीप –हंय) तशें जाल्या चोय रे मात्शें... मुगे जाग्यार उडोय मुरें....

दिलीप : बरें.... (स्वगत) आता हेची मजा करुयां मात्शी (उघड) तुज्या हातांन आसा तो त्याच चेडवाचो फोटू मरे? (पेद्रू – वोंय) दि तो म्हजेकडेन, आनी आता तू पळयत रांव. तुजें हे गर्लफ्रेंड... नांव किदें तेचे?

पेद्रू : कात्रीना.... (धुंदीन) मोगाचे कात्रीना...

दिलीप : कात्रीना... तेका सोमतें हाडून हांगा तुज्या फुड्यांन उभें करता.

पेद्रू : आवोयस! इतले पावोरफूल देवोस्पाणु? मुगे कात्रीनांक हिंग म्होज्या फुड्यांन हाडोता... तश जाल्या बेगीन... बेगीन कोर कित कोरपाचे तें.

दिलीप : मात्शें पाशेंस काड पेद्रू... पाशेंस काड.

पेद्रू : मुंगे पाशेंयस काब्बार जालां – म्हाक आता आनीक रावोंक जायनां...मुगे हो सामको फुल्ला ऽऽ (दिलीप – किदें?) मोगाचो कोळो... इतके दिस तो बावोनुच आसलोलों... कोळो फुलोन तेगे फुल जालां....

दिलीप : बरें आसां.... आनी हे पळय पेद्रू ते हांगा पावले की आनीक हांगा रावो नाका. तेका सोमते ताबोडतोब घेवन वच.

पेद्रू : वोय – तू कायच भियो नाका. एकदा ते मुग्या हाताक मेवळें काय हांव सोडुता तेका? घोट धोत्ता आनी देरेबेंत सोमतें

कावड्यारानांत वोत्ता आनी थंय मोग कोरुंक शिकोयतां.

दिलीप : हां... रांव आता न्हिंदे बाबांक उठयतां... (परेशाक उठयता) परेश... परेश उठ... हो पळय एक भक्त येयलां... पेद्रू....

परेश : (उठात) कोण पाद्रू? शी...

दिलीप : पाद्रू न्हू.... पेद्रू.... पेद्रू....

पेद्रू : (वचोन तेच्या पायांक हात लावन पाया पडता) पाया पोडोता बाबा.... मुगे मात्शे मोनार घे आनी जाग्यार उडोय... कितेंय चुकलां-माकलां जाल्यार गुन्यांव भोगोस सायबा...

परेश : उठ पाद्र्या (पेद्रू रडोंक पावता) तुजें काम जातलें...

पेद्रू : (रडूक पांवला) बाबा.... पाद्र्या नु... पा... (दिलीप आडोयता.)

दिलीप : पेद्रू बाप. वोग्गी रांव - बाबा मात्सो न्हिंदेन आसा... तेणी किंदेंय म्हणू- पेद्रू म्हणू नाल्यार पाद्रो म्हणू... तुजे काम जालें काय जालें न्हू...? (पेद्रू - वोंय) बरें - परेश (फोटो दाखोवन) हे ह्या पेद्रूचे फिटफिटें... कात्रीना, तेकां लागीच धरीना... मात्शे हेंचे दोगायचे लागी कर पळोवयां.

परेश : आवयस, बरें दिसता मरे... सामकें कविताच भाषेंन दिसतां मरे हे...

पेद्रू : बाबा... हे कविता न्हूं - ये कात्रीना... मुगे कात्रीनाऽऽ

दिलीप : आरे पेद्रू, बाबा मंटा तुजे कात्रीना आणि तेची बायल कविता सेम टू सेम दिसतां म्हण...

पेद्रू : मागी... मुझ्या कात्रीनाची जुवडी बोयण बिन न्हू मरें?

परेश : जुळी भयण कशीं आसतलीं? ते आवय-बापायचे एकुलतें एक चेडू....

दिलीप : परेश, ते आसूं... अशी कितली जाणां सेम टू सेम दिसतात. आता एक काम कर... आता तू हो फोटो पळय आनी न्हिद आणि हेची सपनां पळय.... (तो तशें करता... आनी

न्हिदता)

पेद्रू : ॲ... तू म्होण बोरो आसा मुरे? मुगे फासकेली सोपनां तेका तुग्या बाबाकू पोळोवपा लायोंता? आनी तेवुय म्हुज्या फुड्यांनुच?

दिलीप : पेद्रूबाप, आता मजा पळय - तो तेची सपनां पळोवन डायरेक्ट सपनांनसून तेका हांगा तुज्या फुड्यांन हाडटलों... (इतल्यान सपनानसून कात्रीना प्रकट जातां... हो कात्रीनांचो रोल कविता जातां ताणेंच करचो. कात्रीना हे ख्रिश्चन चली त्याप्रमाण भेस) हे पळय पेद्रू... हे पळय तुजे कात्रीना... (पेद्रू फुलतां, तेचेकडे वचुंक सोदतां) रांव रांव पेद्रूबाप मात्सो रांव... हांव तुजे सेटींग करतां....

कात्रीना : (दिलीपाक) हायऽऽ (स्मायल दिता)

दिलीप : हाय... बाय कात्रीना... हो पळय हो तुजेर मरतां-तुजो मोगी पेद्रू.... तू खंय तेका लागी रावानां म्हणून तुका हांगा हाडलां सेऽटींग करपाक.

कात्रीना : आवयस... वो... वो... मुजेर मोग कोत्ता? वो सामको कार्टून मरे...

पेद्रू : आगो कात्रीना... म्हाक मुणो नाका कार्टून.. मुजे काडीज वैतोले कात्रून.... मुज्या काडजान फोकोत तुच भोरलां. चोल, चोल यो आमी मोग कोरपा या.

कात्रीना : ना... हांव ना रे. मुगे पाय माहा दाण्यांनी मात्तोलो, तेकोडे व्होडलो दाणों आहां.

पेद्रू : आगो कात्रीना. तुज्या पायच्या व्होडलो दाणों मुकोडे आसा. चल यो- तू कायच भियो नाका. हांव सोगळे दिस्त कोत्ता.... चल यो तू... (बॅकग्रावंड मुजीकाक यो यो कात्रीनाऽऽ ना ना येवचे ना हे कातांर वाजता. त्या तालार पेद्रू आनी कात्रीना नाचतात. कातांर सोपतां सोपतां दोगाय एकामेकाच्या कमरेक

हात घालून भायर वैतात)

**दिलीप** : (तो गेला तेवटेन पळयत) जालो... हो जालो पिसो. हेका मंटा मोगाचे पिशें.... मोगान मनीस पिसो जाता मंटा तो असों... चला. हेका घातलीं... मोगाच्या पिशाची टोपी... आता हो पेद्रू... मोग करतां करतां जेन्ना ना जातलें हे सपनातले कात्रीना, तेन्ना हो मंटलो – आनीक मोग करीना (चितून) चल... आता मात्शी आणि एक मजा करुंया... (तो परेशाक उठोवंक म्हणून वचपाक इतल्यान भायरसून पी. ए. प्रकाश एक पैशांनी भरलेली साकाची पोती / सिमेंटचि धवी पोती/ बाजाराक व्हरपाची दाण्यांची पोती बांदून घ्येवन बेगी बेगीन येता)

**पी.ए.प्रकाश:** मिस्टर दिलीप... मिस्टर दिलीप. हे घे, बेगीन डबल करून दि.... सायबाची अर्दी तिजोरी खाली करून हाडल्यां. अर्दी फाल्या.... हांव असली आनी एक साकाची पोती घेवनुच येयलां – ही पळय...

**दिलीप** : पुण साकाचे पोतयेनशें भरून हाडल्यां?

**पी.ए.प्रकाश:** आरे वाटेक कोणांक कळात जाल्यां? हाडल्यां कारीन रे. पुण वोगीच कोणाकुय डावट् येवचो ना न्हय म्हणून. तें आंसुव... हे घे बेगीन आनी काड तुजो तो कोमो भायर... आनी लाय तेका साद घालूंक... करून उडय बेगीन हो सगळो पयसो डबल...

**दिलीप** : करतां... करतां. पुण तुका एक काम करचें पडतलें.

**पी.ए.प्रकाश:** आता आर्णीक कसलें काम करू?

**दिलीप** : तो कोमो म्हाज्याशिवाय हांगा आणिक कोणुय आसल्यार भायर सराना आनी पयशेंय डबल जायनां. तेन्ना मात्सो वोगोत तुमकां भायर वैचे पडतलें...

**पी.ए.प्रकाश:** पुण शेर्त मरे हे...? नाजाल्यार घालशीं म्हाका फोणांन...

**दिलीप** : फक्त पांच मिनटान तुमी भितर येयात न्हू... एकदाच ग्रावंड फ्लोअर मेरेन देवात आनी वैयर येयात... चला... चला... (''तो बरे आसा तर'' मंटा आनी भायर वैता. तेच्या फाटोफाट दिलीप दारांमेरेन वैता. तो गेलेलो पळोवन दाराक खिळीं घालंता आनी भितर यतां.) आंवयस बरोच पयसों हाडलां हेणी.... हो सगळो पयसो अधर्माचो.. गरीब जनतेक म्हणजे आम आदमीक लुटलोलो... आता हेंका सारके शिकोवयां. हो सगळो पयसो दवरुन हेच्या डबल सपनातलों पयसो तयार करून हेका दिवयां... आनी घालया हेंका व्हऽऽडली टोपी.... (साक व्हरून परेशच्या खाटीकडे दवरतां, ती सोडतां. भितुरसून एक... चार... पाच पैशांची बंडलां काडतां. हातान दोनाय धरतां आनीं)

**दिलीप** : हे परेश (तेका जागयता...) ही पळय बंडलां... ही पोतीभर बंडलां... आता हेची सपनां पळय... (परेश झेमेन उठता उठता डोळे मिचकायता. काळोख...)

**(प्रवेश १ लो सोंपता)**

## प्रवेश दुसरो

(**स्थळ :** तेच. फाटल्या प्रसंगाउपरांत दोन चार दिस जाल्यात. परेश आणि दिलीप सोफा खुर्चेर बसून पेपर, मासिक चाळीत आसात. इतल्यान दिलीपाक पेपरार किदें तरी दिसता. तो बारीक पळयतां.)

**दिलीप** : अंऽऽ वाढदिवसाचे अभिष्टचिंतन, मंत्रीमहोदय श्री सदाशिव पटेकार - आपल्या वाढदिनानिमित्त आपले हार्दिक अभीष्टचिंतन. आपणास उदंड आयुष्य, आरोग्य लाभो, हिच सदिच्छा! शुभेच्छूक - पी. ए. मिस्टर प्रकाश आमटे.

**परेश** : हो तोच मरे- जेका आमी व्होडली आठ कोटीची टोपी घातल्या तो...

**दिलीप** : हय, हय, तोच तो... उमेदिन तेणे ही व्होडली कलरींग शुभेच्छा जायरत दिल्या आपल्या सायबाची. म्हाका दिसतां आजून तेंच्यानी तिजोरी उगडूंक ना त्या दिसापासून.

**परेश** : तशेंच दिसता. पुण दिलीप म्हाका मरे हाली भंय दिसता. घरान इतलो पयसो आसा म्हण, किदेय प्रॉब्लेम जालो जाल्यार? आणि हो सोपवपाचो कसो? वोगीच कोणांक डावट बिन येयलो जाल्यार?

**दिलीप** : पळयलंय मरे परेश, हे अशें आसता. पयसो नासल्यारुय टेन्शन आनी आसल्यारुय टेन्शन. पुण तू कायच भियों नाका. आमी पयसों हळू हळू भायर काडपाचो. जागो घेवयां, फ्लॅट घेवयां. घरा घेवयां. घाडयें देवळांक डोनेशनां दिवयां... संस्थांक डोनेट करयां, सोशल वर्क करुयां...

**परेश** : पुण म्हाका जाल्या बाबा आता भंय दिसतां - ह्यो सगळ्यों आमी असल्यो भानगडी केल्या त्यो आमचेरुच परतत बिरथत म्हणून.

**दिलीप** : तू कांयच भियो नाका - हांव आसतना. ते सगळें हांव

पळयतां.... (इतल्यान भायरसून पेद्रू यता. सामको बेजार... रागारसो आसा)

पेद्रू : आरे बापया शिलीप... ते हे... दिलीप.. तुमी किदें जादू बिदू कोत्तात काय किदें रे? (परेशाक पळोवन) वो मुरे तो तुगे न्हिंदे बाबा? आयज वो जागो सो आहां? लोकां फोटोयतां- लोका फोणांनु घालोतां मुरे तुमी?

दिलीप : किद्याक? किदें जालें पेद्रू बाप?

पेद्रू : किदें जालें म्हणु आनी वैर तोण घ्येवन इच्चात्ता? वोय? तुयें त्या दिसां मुगे कात्रीनाचो फोटू घ्योवन तेक हांगा हाडून दिले... तेक घ्येवन हांव बरो फुलोंन मयेंच्या तड्यार गेलो. थोय तेका बोरे भोवडांयले, आयस्क्रीम बिस्क्रीम खावोंयली आनी मागीर मात्सो मोग कोत्तोलो म्हुण कावड्यारानांन घ्येवन गेलो... आनी किदें सांगू पापया तुका...

परेश : (उमेदिन) फुडें किदें केलें तें सांग...

पेद्रू : किदें कोत्तोलो? थंय आमी एका झीडीकोडे बोसोली... आनी आये तेका गोपान घेतोलें (ते दोगुय उत्साहान आयकतात) तेणे महां गोपान घेतोलें.. मागीर ... मागीर आये तेची किस घेतोर्ली.. .ताणे म्होजी किस घेतोर्ली.. आवोयस महां बोरे दिसलें... मागीर आमचें हे ओशें चालूच आसलें... आनी किद सांगू तुमकां फुडलें...?

दिलीप : आंसू... आंसू... कळलें ते आमकां... बेस्टी तुका लोज नाका हांगा...

पेद्रू : लोज काय खाज रे? (रडून) फुडलें कोच्च्या पोयलीच ते ओचानक म्होज्या गोपानसून नाच जालें... आनी हांव थोंय त्या झिडीच्या काट्यांनी पोडलों-

परेश : नाच जालें? ते तुज़ो हो पळोवन भियोन पोवळें आसतलें...

पेद्रू : (अचकीत) वो?

परेश : अवतार रे... ओसलो अवतार पळोवन.. मंटालो हांव...

दिलीप : मागीर तुवें तेका सोदलें ना तर?

पेद्रू : सोदुकु ना? आरे आये आख्खे कावडे रान सोदुलें तेका... हे झिडीन सोदुता, ते झिडीन सोदिता – पुण खंयच मेवडे ना – वैल्यान त्या झिडींनी आनीक दोन तीन जोडपी नाका त्या ओवतारान पोडोयर्ली, (रडून) आनी किदें सांगू भावा म्होज्या, तिनुनल्य एकट्यान तर, आपणांक चोरून पोडोयतां म्होण मुजेर दोन तीन फाकुडली देखून–

दिलीप : आरे... आरे... रे...हे मात सामकें वायट जालें हा पेद्रूबाप.

पेद्रू : वौयल्यान वायट जालें म्होंटाय? तू वायट कोत्ताय आनी वायट जाले मोंटाय? तुगे हो न्हिदे बाबा बोरोच जादू कोत्ता मुरे...

परेश : ना पेद्रूबाप, हांवेन कायच जादू करूंक ना. हेणीच तो...

पेद्रू : किदें ना म्होंटाय? आता हेजवौले तेजेर घालतात? माक फोटोयतायत? तुमकां खोबोर हा, मुगे हात खोंय खोंय पावल्या तें?

दिलीप : पळय पेद्रूबाप, आमी आमच्या मंत्राच्या बळार तुज्या डार्लिंगाक हांगा हाडून तुजे जमोवन दिल्लें. तें तुका फटोवन पळोवन गेलें तेका आमी किदें करतलें? आता तुजे तू पळोवन घे.

पेद्रू : मंत्रान काय संत्रान रे? तुमी दोगुय किदें पुण आझेरी कोत्तात. राव तुमकां हांव सारकें दाखोयतां. तुमी .... तुमकां दोगांकुय बोरो मार पाडल्याबोगोर तुमी जाग्यार येवपां ना..

परेश : तुज्यांन जातां ते कर... चल वॉस... हरशिमेद... हांगासरलो...

पेद्रू : (रागान) किदें? माक होरशिमेद म्होंटाय? माक? या पेद्रू फाल्कावांक होरशिमेद म्होंटाय? राव दाखोयतां तुमकां हांव मुजी ताकोद.

दिलीप : ताकोद दाखय नाल्यार काकुद दाखय... आमी भियांना तुका... चल चलूंग लाग हांगासून... व्हडली शापोदां सांगता...

पेद्रू : आता वौता. पुण रोखडोच येता... तुमकां मुजी कापोस्तात दाखोयतां.... (दाराकडे वचून) ना तुमकां नागोडे करून मारीना... जाल्यार नांवूच सांगीना मुगे कात्रीना... ते ... हे... पेद्रू फल्कांव... यता हांव (रागान वैता)

परेश : हे दिलीप, आमी तेका पोको नेट दाखयलां खरो. पुण म्हाका मात सामको भंय दिसपाक लागला आता. शी...फुडें कसली लफडी बिफडी जायत कोण जाणा... शी... चितूनूच म्हजी तकली दुखपाक लागल्या. (उलो करतां) कविताऽऽ आगो कविताऽऽ चा हाड पोवया आमकां.

दिलीप : पळय परेश, तु बेस्टोच टेन्शन घेता. तशें काय जावपाचें ना.

परेश : पुण दिलीप, हरामाचो पयसो म्हण केन्ना कोणाक पचलेलो आसा?

दिलीप : ना कसो? (कविता दोन चा कप घेवन येता) व्हडल्या व्हडल्या मिनिस्टरांक पळय... चोरांक पळय.. गुंडाक पळय... व्हडल्या अधिकाऱ्यांक पळय... हे सगळें कितें घाम गाळोन पयशें जमयतात? सगळो अधर्माचो पयसो. (चा पितात.)

परेश : (कविता अजापून आयकत आसा) पुण किदेंय सांग, तू बरीक पळय हे असलें अधर्माचो पयसो खाता पळयत तेंच्या घरान कसलो ना कसलो तरी प्रॉब्लेम हो आसताच – एक

तर तेंका फुडें भुरगी जायनात – जाली जाल्यार तीय बिन आवटी – पिशी, व्यंग जांव घरांतल्या मनशांक कसलो तरी व्हडलो रोग... अशें किदें तरी आसतात आसतां... बारिक चितून पळय तू...

**कविता** : (चितून) हे– दिलीप भावोजी हे मात सामकें खरें हा... म्हाकाय लेगीत आता मनांकडे भय सो दिसपाक लागलां. यन्नातधर आमी ह्यो असल्यो भानगडी करपाच्यो सोडून दिल्ल्यो बऱ्यो.

**दिलीप** : जालें वैनी, तुय बिन हालली आता. परेश एक भित्तुड्डोच. तुय बिन...

**परेश** : हांव भित्तुड्डो? आणि तू कोण म्हातुड्डो? तुका किदें जालां उलोवंक? हे सगळे घडतां चलतां म्हज्या घरांन... फाल्यां आमी फोणांन पडतलीं. तू न्हू.

**कविता** : हे मात सामकें. फाल्याच्यान ह्यो सगळ्यो भानगडी बंद. जालां ते खूप जालें. दिलीप भावोजी असल्यांनी तू आमकां त्रासांन घालतलों.

**दिलीप** : किदें हांव त्रासांन घालतलो? हांव? वैल्यान हांवे म्हजी तकली लडोवन तुमी त्रासांन पडलेलीं, तुमकां वैर काडल्यां.

**परेश** : हय. पुण आता आनीक वैर काडू नाका. नाल्या आमी सामकीच वैर पावतलीं.

**दिलीप** : करुंग गेल्यार बरें, आंगार येता खोरें, तेंच खरें. आता तुमकां कशें समजोव तेच कळांना. (बेजार जांवन खिडकेकडे वचून रावता. तोण भायलेसायडीन)

**कविता** : तू आमकां आनीक कांयच समजोव नाका आनी तुज्यो आयडीयाय नाका.

**दिलीप** : (इतल्यान भायर बारीक पळोवन, अचानक) हे परेश....

तो पळय सकयल. (ती दोगांय खिडकेकडे यतात) तो पी. ए. प्रकाश पुलीस इन्स्पेक्टराक घेवन येयलां. हो पळय रस्त्यार झिपीकडे... चड करून हांगाच यता दिसतां तो.

**परेश** : जालें - पडली मरे फोणांन आता आमी. आता किदें करुयां?

**कविता** : पळयलें दिलीप भावोजी हे असले धंदे आमच्यासारख्यांक न्हू. आता किदें करपाचें? (दिलीप चितत आसा)

**परेश** : (रडूक पावला) आता काय ना. आता सरळ पुलीशेन- हांव खडी फोडपाक आनी तू दात्यार दळपांक...

**दिलीप** : (चितल्याउपरांत) आसा - हेचेरुय एक उपाय आसा. पुण तो बेगीनात बेगीन करपाक जाय - ते वैर पावच्या पयली.

**परेश** : परत आनी पयशें बियशें तयार करपाच्ये भानगडीक हांव ना हां.

**दिलीप** : पयशें न्हू - मनीस तयार करपाचो. साक्षात मंत्री महोदय श्री. पटेकार.

**कविता** : किदें? मंत्री पटेकार? मागीर आमकां डायरेक्ट जन्मठेपूच...

**दिलीप** : ना. कायच जावपां ना. तुमी सपशेल सुट्टली या शिक्षेनसून.

**परेश** : आरे पुण ते कशें शक्य आसा आता?

**दिलीप** : सगळे शक्य आसा. तू पळयत रांव... आनी तयार ना जाल्यार वचुया आमी सगळी जेलीन - खडी फोडपांक. दळपाक, काणपांक.

**परेश** : अडला हरी, गाढवाचे पाय धरी... सांग किदें करपाचें?

**कविता** : हय सांग, पुण आनीक मात हे करतां करतां दुसरें लफडें करूं नाकां.

**दिलीप** : चल तर न्हिद तू. (परेशाक) वैनी तो पेपर दि. (ती दिता)

हां... खंय तो पटेकारालो फोटो... हां हो मेळलो... (परेश न्हिदला थंय व्हरून तेका दाखयतां) परेश हो मंत्री पटेकारालो फोटो.. पळय आनी तेचीच सपनां पळय... न्हिद परेश... न्हिद. तुज्या डोळ्यांन झेम भरल्या. (परेश न्हिदता) आता पळय वैनी हो प्रॉब्लेम कसो सोल करतां हांव. (इतल्यान देशभक्ती गीत वाजता. लोकांक पायां पडतां- हांत दाखयता अशा हावभावान मंत्री पटेकार प्रकट जाता.)

**पटेकार** : नमस्कार.... नमस्कार.. हांव पटेकार. म्हजे नाव आयकोन हांसू नाकात. तशें केन्नाच मारीना हांव पटे - पुण तरींय हांव पटेकार. देखुनूच मानता म्हाका गोवा सरकार.

**दिलीप** : माननीय मंत्री महोदय पटेकार सायब, नमस्कार आनी तुमच्या वाढदिवसाची तुमकां हुनहुनीत परबी...

**पटेकार** : ओ, थँक्यू... पुण हांव तुका वळखलों ना.

**कविता** : (स्वगत) कसो वळखातलो आता. मतापयली जाल्या सगळ्यांक वळखतात हे. मागीर खंय वळखता? वैल्यान सपनानसून प्रकट जाला न्हू?

**दिलीप** : हांव - हांव दिलीप... दिलीप धिगू दिवचलकर... डी. डी. डी. तुमचो इष्ट.

**पटेकार** : म्हजो इष्ट...?

**दिलीप** : अशें कशें सर? तुमी म्हाका आजुनुय वळखुंक ना? हांव आनी तुमी शाळेन एकाच बाकार बसतालें पळयात... सरकारी शाळेंन..?

**पटेकार** : आसत... आसत... म्हाका याद जायनां आता. आता हांव मंत्री जाला न्हूं. मंटकीच ह्यो असल्यो गजाली याद धरपाक खंय टायम आसा? बरे मागीर कशें चल्ला तुजें? ही तुजी बायल?

**कविता** : ना... (दिलीप हय म्हणपाक इशारो करतां) हय.. ना...

हय...हय...

**पटेकार** : हय ना-हय ना? (हळूच दिलीपाक) किदें लफडें किदें रे? आं... आं...? ना म्हटल्यार तशें आमचेय आसता रे भायल्या भायर...

**दिलीप** : ना सर... ही म्हजीच बायल (कविता कडमडतां)

**पटेकार** : बरें... भुरगीं बिरगी किदें?

**दिलीप** : आजून ना. पुण मात्सो एक प्रोब्लेम आसा-

**पटेकार** : कोणाक? तुका काय बायलेक?

**दिलीप** : तसलो न्हू सायब. एक इन्स्पेक्टर म्हाका हांगा येवन सदाच सतयता. तुमी मात्सो तेका समज दियात...

**पटेकार** : किद्याक सतयतां तो तुका? तुये किदें खालां तेचें?

**कविता** : कांयच ना सायब, पुण तो वोगीच आमचेर चोरयेचो आळ घालतां...

**पटेकार** : बरें, हांव पळयतां तेका... कोण तो इन्स्पेक्टर? नांव किदें तेचें? (इतल्यान भायरसून इन्स्पेक्टर येंडे, हवालदार आनी पी. ए. प्रकाश यतात)

**पी.ए.+इन्स्पेक्टर** : सर तुमी...?आनी हांगा... हेंगेर...? (सलाम मारतां)

**पटेकार** : मागीर? किदें जालां तर म्हाका हांगा येवपाक? हो म्हाजो इष्ट दिलीप. सामको लंगोटीयार मंटा तो. आयज म्हजो बर्थ डे न्हू...

**इन्स्पेक्टर** : हय - अ व्हेरी हेप्पी बर्थ डे टू यू सर.

**पटेकार** : थँक्यू. हेकाच... हेकाच लागून हांव ह्या म्हज्या इष्टागेर येवन रावलां. घरा आनी ऑफिसान बर्थ डे विश करपाक म्हण लोक यता आनी सामको वाज हाडतांत - म्हजें हें काम कर - म्हजें तं काम कर...

**पी.ए.प्रकाश** : हय सर, सकाळपासून म्हाका वाज हाडलो लोकांनी. शिवाय

फोन चालूच आसात.

पटेकार : बरें तुमी हांगा किद्याक आयल्यात? हांवे आयकलां की तुमी ह्या म्हज्या इष्टाक त्रास दितात म्हण...?

इन्स्पेक्टर : (अडखळत) अॅ...खंय... खंय... किदें ना सर... तें हें.... हो....

पी.ए.प्रकाश : (हळूच) इन्स्पेक्टर सायब, अडखळतां किदें सांगून उडय किदें घोटाळों झाला तो. फायनली किदे तिजोरी मंत्री सायबाचीच खाली जाल्या. तो मागीर म्हाका घट धरतलों...

कविता : थंय एकमेकाच्या कानांन किदें बडबडतात? सांगा मरे आता?

इन्स्पेक्टर : सर... तें...हें...तें... हो पी. ए. प्रकाश .... क...क... कंप्लेन घेवन येयल्लो...

पटेकार : कसली कंप्लेन... सारको उलोंवक कळाना रे? इन्स्पेक्टर मरे तू?

इन्स्पेक्टर : हय सर... (भियत) तेजे म्हणणे आसा की ... (तेका सांगपाक खुणायता...) की..

पी.ए.प्रकाश : तुमची सगळी तिजोरी खाली जाल्या... (एकदम सांगता)

पटेकार : तिजोरी खाली जाली? कशी रे? टायर पंक्चर जाता तशी काय किदें रे?

दिलीप : बरोबर सर. पुण सर चावी कोणाकडे आसली तिजोरीची. ह्या पी. ए. प्रकाशाकडे – म्हणजे ती खाली कोण करतलो व्होच न्हू?

इन्स्पेक्टर : चावी पी. ए. कडे आसली खरें, पुण, तिजोरी आपशींच खाली जाल्या सर..

पटेकार : (रागान) आपशीच खाली जाली? तू किदें आमकां हांगा पिशान काडपाक आयलां? आपशीच खाली जालीं मरे तशीं आपशींच भरलीं ना कशीं?

पी.ए.प्रकाश: हांव म्हजे बायले भुरग्यांच्यान खरें सांगता सर, तशेंच जाला.

पटेकार : चावी तुजेकडेन आसली... हे सगळे नाटक तुवेंच केलां आसतलें....

पी.ए.प्रकाश: ना सर. हांवे कायच करुक ना. हो जादू या तुमच्या इष्टान केलां... हेणीच खाली केल्या ती तिजोरी.

दिलीप : किदें हांवे? हांव तुमची तिजोरी खंय आसा ती लेगीत नकळो...

इन्स्पेक्टर : (रागान–नेटान) नकळो... नकळो? पयशें डबल (पी. ए. तेका आडयता. तो फुडलें शब्द गिळता..)

पी.ए.प्रकाश: डबल... डबलीन मोडता मरे तू सध्या? खंयचे ते?

कविता : आमी पयशें डबलीन मोडलें म्हणून ते किदें तुमचें चोरलें?

पी.ए.प्रकाश: (रागान नेटान उलोवंक वैता) तुमी पयशें हांगा (स्वगत) नाका हांवूच त्रासांन पडतलो पयशें हांगा हाडलेंले म्हटल्यार..

इन्स्पेक्टर : हांगा... हांगा.... हांगा... हाडल्यां काय ना?

कविता : सर म्हाका दिसतां, हो इन्स्पेक्टरुय हितून सामील आसा...

पटेकार : रांव. हांव पळयता हेंका. मिस्टर येंडे, तुमी दोगुय म्हजेच पयशें चोरता आनी म्हज्या इष्टाचेर आरोप करतात. तुमचेकडे प्रुफ किदें आसा?

पी.ए.प्रकाश: प्रुफ – प्रुफ... सर हांवे आयज सकाळी तिजोरी उगडली. तुमच्या बर्थ डे पार्टीचे आयोजन करपाक पयशें जाय म्हण... तेन्ना पळय जाल्यार तिजोरी सामकी खार्ली.

पटेकार : खाली काय खाल्ली रे तुयेन? हवेन गुळयो मारतांय? रांव डी. वाय. एस्पीक सांगून तुमकां दोगांकुय दाखयतां किदें तें.

पी.ए.प्रकाश: सर... सर... अशें करू नाका. आमची ल्हान ल्हान भुरगीं

आसांत.

**पटेकार** : करु नाका ? जाल्यार चलूंग लागात हांगासून. आनी आयच्या आयज आसली तशी तिजोरी भरून दवरांत. खंय लिपयल्यात त्या पैशांनी.

**पी.ए.प्रकाश** : सर, हे कशें शक्य आसा आता.... ?

**पटेकार** : शक्य ना जाल्यार फाल्यासून कामांक येव नाका. दोगांकय धाडतां बंदखणीन खडी फोडूंक... चलूंग लागात...

**इन्स्पेक्टर** : यस सर... (पी. ए.क) चल रे... फुकट तुज्यावांगडा लागलों आनी हांवूय फोणांन पडलों. पळयतां किदें आनी तोण येदेशें करून... चल खंय लिपयल्या ते पयशें काड भायर... (तो वचाना-हालाना) अं- हवालदारऽऽऽ (हवालदार - यस सर) धर तेका आनी व्हरुन झिपीन बसंय. (तो यस सर मंटा आनी तेकां धरून घेवन भायर वैता) बरें सायब/सर, हांव वदयतां तेका - सामको सोलून काट्टा. (भायर वैता. दिलीप तेच्या फाटोफाट वचून तो गेल्ले तो पळोवन)

**दिलीप** : (बेगी बेगीन) ए, परेश (तेका उठयतां) उठ... उठ... काम जालें... उठ... (पटेकार तेका अजाबान पळयता पळयता परेश उठता. पटेकार गडप जाता) पळय वैनी, हो प्रॉब्लेम कसो आता कायमचो सोल जालो तो...

**कविता** : पुण सांगू नजू... चौकोशी बिवकशी करीत जाल्यार... ?

**दिलीप** : चौकशी कसली करतलें - काळ्या पैशांची म्हण कायद्यान चौकशी करतलें ?

**परेश** : आरे बाबा, मंत्री संत्री ते. ते गुंड पोसून दवरतात. आमकां नाच्चं करपांक आसा तें... म्हाका बाबा काय खरें लागानां आता. म्हज्या काळजांन धडधडपाक लागलां.. केन्ना हो म्हजो सपनरोग सारको जातलो - आनी कसों जातलो ते त्या देवांक खबर.... (वाजेलां)

**कविता** : हय, हो सपनरोग तरी सारको जाल्लो जाल्यार ही लफडीं जांवची नाशिल्ली. हांवे आयकलां दिवचलें वडाकडे खंय एक भट दोरो दिता मंत्रोवन. तो दोरो बांदल्यार सपनां बिपनां पडपाची बंद जाता. परेशाक थंय व्हेल्यार बरो दिसतां. (इतल्यान भायसून पेद्रू एका धिप्पाड अशा गुंडाक घेवन यता. गुंडाच्या हातीन दाणो किंवा हॉकी स्टीक, वा दाणोसदृश्य वस्त आसा. दोगुय रागान आसा. ही सगळी भितात.)

**पेद्रू** : (गुंडाक) हे पोंय शेगीऽऽ हेच ते फटींग. (परेशाक दाखयत) आनी वोच तो न्हिंदे बाबा (गुंड तेका मारपाक यता. ते हेवटेन धावतांत, धडपड, बोवाळ, घुस्पागोंधळ, कविता किंचाळता, एक दोन दाणे दिलीपाचे फाटीर पडतां. एक दोन परेशाचेर पडता. तो कविताचेर दाणो मारपाक वैता तो परेश आडोवंक वैता तो तेचे तखलेर बसतां. तो बेशुद्ध पडतां. ते पळोवन सविता ''परेशऽ परेशऽऽ'' म्हण किंचाळतां. पेद्रू – गुंड मात्शे भियातात. आबुत जातात.)

**पेद्रू** : (गुंडाक) चॅल चॅल शेगी... आनीक हिंगा रावुयां नाका. पुरो आता. तो मोरातु बिरातु जाल्या आमचेर येतोलें. (पेद्रू, गुंड भायर पोळतात)

**कविता** : परेशऽऽ परेश ऽऽ दिलीप भावोजी ऽऽ परेशाक किदं जालें पळय.. (रडूंक)

**दिलीप** : वैनी चल बेगीन उदक नाजाल्यार लिंबूसोडा केल्लो आसा जाल्यार घेवन यो... काय जांवक ना तेका. बेशुद्ध पडलां तो. (कविता भितर वचून उदक आनी लिंबूसोडा दोनुंय घेवन यता. दिलीप परेशाच्या तोणार उदक मारतां आनी कविता ताका लिंबू सोडा पिवपाक दिता. तो शुद्धीर यता.)

**परेश** : (तकलेक घट धरून) आवय गेऽऽ पाड पडू ह्या पेद्रूचेऽऽ

तखली सामकी घुंवता म्हजी. दिलीप तुजें पाय खंय आसा?

**दिलीप** : किद्याक? जोते जाय नाकाकडे धरपाक?

**परेश** : नाका. तुका पाय धरून पायां पडपाक. तुज्या कर्माची फळां ही पळय हांव भोगतां... (दिलीप चितपाक पडलां)

**कविता** : दिलीप भावोजी नस्ती आफत हाडली तुवें ही आमचेर... आता आनी किदें चित्ता? फुडें आनीक कशें फोणांन घालपाचें तें...?

**दिलीप** : वोगी रांव गे वैनी. हांव ह्याय प्रॉब्लेमानसून तुमकां कशें भायर काडपाचें तें चित्तालों... आनी म्हाका एक सॉलिड आयडीया गावल्यां.

**परेश** : पाड पडूं तुज्या आयडीयांक.... नाका आमकां त्यो.

**दिलीप** : नाका जाल्यार नाका. म्हाका किदें आसां... पळय... म्हज्या आयडीयांनी तुमकां चडसो फायदोच जालां ते चितीनां तुमी... तुजो कामावैलो प्रोब्लेम सोल जालो... तुकां काम मेळोन दिलें.. पयसो आडको मेळोन दिलो... ह्या सगळ्यां भानगडींनी उत्पन्न जाल्ली संकटा पैस केल्यां... आनी हेय संकट हांव कायमचे पैस करुंक सोदतां... तेन्ना...

**कविता** : (चितून – पटोन) तेय खरें दिलीप भावोजी. एक काम कर... तु हो एक पेद्रूचो प्रोब्लेम सोल कर. पुण आणीक मात फुडें ह्यो असल्यो भानगडी नाका आमकां. हांव फाल्याच वचून त्या भटाकडे दोरो बानून घेतां परेशाक. पळयतां जाता जाल्यासारको हेचो सपनरोग.

**दिलीप** : चल तर परेश... ते फिल्मी मासिक खंय व्हदळचें ऽऽ (परेश तेका दिता) हां... (मासिकान पळयत) हो पळय... हो गब्बर सिंग.. आता तू हेचे सपन पळय... मागीर हो गब्बर सिंग

प्रकट जातलो. तेका लावया ह्या पेद्रूच्या आनी तेच्या गुंडाफाटल्यान... आनीक हुं करचो ना मागीर तो आमकां... तू मात आयज दिसभर न्हिदून रांव हांगा... घे... पळय हेका... आनी न्हिद... (तेका खाटीर बसयतां... मासिक दाखयतां) पळय परेशऽऽ आता तू ह्या गब्बर सिंगाची सपनां पळय.. (तो तशें करता, न्हिदतां.. पुण गब्बर सिंग प्रकट जायनां..बऱ्या वगतान) आरे... ? आजून कसो प्रकट जालो ना गब्बरसिंग? (दिलीप – कविता चिंतेन) अंऽऽ आजुनुय जायंना? किदे पुण भानगड जाली... परत रिपीट करुयाऽऽ (परेशाक उठयतां – परत रिपीट करतां, मात्सो वोगत वाट पळोवन) अंऽऽ तरीय प्रकट जायनां? अशें कशें जांव शकतां? परत करुयां... (परेशाक परत उठयतां. आनी रिपीट करपाक वैता)

**परेश** : आरे बाबा, कितलें फावटी रिपीट करतलो? कायच फायदो ना तुजें ते परत परत रिपीट करून....

**दिलीप–कविता** : किद्याक?

**परेश** : म्हाका सपनांच पडानां.... आनी सपनां पडानां जाल्या प्रकट कशें जातलें?

**कविता** : आं? अशें कशें जालें अचानक? (दिलीप चित्ता) सारको जालो किदें तुजो सपनरोग?

**दिलीप** : (अचानक) हय– बरोबर वैनी... म्हाका दिसतां पेद्रूच्या गुंडान हेचेर मारलेल्या दाण्याच्या आघातान हेचे तखलेर किदें पुण परिणाम जांवन, हेका सपनां पडपाची बंद जाली.

**परेश** : म्हाकाय तशेंच दिसतां – जांव जालें ते बरेंच जालें.

**कविता** : जांव म्हजो आनी त्या भटाकडे वैपाचो त्रास वाचलो – दोरो बांदूक.

दिलीप : पळयलंय वैनी? ह्यो सगळ्यों आयडीया कोणाच्यो? म्हज्यो....

कविता : चला. जालो सारको एकदा हो सपनरोग.... आनी सोपल्यों एकदाच्यो ह्यो "**टोपयांच्यो गजालीऽऽ**"

(सगळे स्थिरावता. पडदो पट्टा.)

**– सोंपता –**



संजय नंदा फाळकर
वरगांव - पिळगांव, दिवचल, गोंय.
फोन नंबर : ९८२२१२५५८८
ई-मेल : sanjay.falkar@hotmail.com

## कांय हेर नाटकां

**प्रकाशित** : ॲक्च्युअल - फॅक्च्युअल (कोंकणी विनोदी)
संगीत तुका झाला पांडुरंग (मराठी)
नाही कुणी कुणाचे (मराठी कौटुंबिक)

**अप्रकाशित** : जातां ते जांव, मोगान पडलां हांव (कोंकणी - विनोदी)
बायल जायच (कोंकणी- विनोदी)
म्हजी विडी, दायची विडी (कोंकणी)
रघुपती राघव राजाराम (कोंकणी - विनोदी)
नास्ती मातृसम: (मराठी - ऐतिहासिक)



श्री ब्राह्मण हौशी नाट्य मंडळ - खो